# जुगांशी

नवलिका

## पुंडलीक नायक

अपुरबाय प्रकाशन

**GUNNAJI**
**NOVELLETTE**
**by PUNDALIK NAIK**

गुणाजी

प्रकाशन क्र. ६३

पयली उजवाडावणी
१९९८

मुखचित्र आनी भितरलीं रेखचित्रां :
श्रीधर कामत बांबोळकार

रंग विभागणी
योगेश गजानन कापडी
थिमपार्क कॉम्प्युटर ग्राफिक्स्,
पणजी

उजवाडावणी
हेमा पुंडलीक नायक
अपुरबाय प्रकाशन,
वळवय फोंडें गोय
४०३४०१

छापपी :
हिरू नारायण नायक
रूतू ऑफसेट
वळवय, फोंडे - गोंय
४०३ ४०१

मोल :
४०/- रुपया

पूर्वप्रसिध्दी :
' कोंकणी ' वर्सुकी अंक १९९८
दै. 'राष्टमत ' आयतार पुरवणी
४ जानेवारी १९९८ ते
२८ फेब्रुवारी १९९८

# गुणाजी

काणकोणचे वाटेर
बांदून वसयलो
कोंकणीचो घोंटेर त्या
आर. बी. एस. नांवाच्या
रमेश कोमरपंताक

*— पुंडलीक*



**ये**यात.

येसलो, चेडो, धाकटी, पोको, घारू, थोंटी अशे लागीं येयात. कांबळी सोडून, अशे ह्या वडामुळांत बसात.

जाले? सगळे राखणे येयले? गोरवांक चरोनी सरयांत. दोळ्यांमुखार आसात.

तर तुमकां सगळ्या राखण्यांक ह्या गुणाजी खेडेकाराचो नमस्कार! तुमी मुमुरख्यांनी हांसपाक लागले.

तुमकां दिसलें, हांव नाटकां करतां?

ना.

ह्या वडाकडल्या देंवचाराचो सोपूत. खरेंच तुमकां मनापासून हांयें नमस्कार केला.

हांव दिल्लीक पावलों तो तुमचेच खातीर आनी म्हाका येदो व्हडलो भौमान लाबलो तोवूय तुमचेच खातीर. तुमचेपरस आंगूळभर चड हांयें गोरवांची शेवा केली देखून म्हाज्या वाट्याक तो भौमान येयलो. फाटींफुडें तुमीय त्या भौमानाचे धनी जावं येता. जावं येता कित्याक? जांवचेंच म्हणोन हांव ह्या वडाकडल्या देंवचाराक पराथितां.

तो भौमान म्हटल्यार एक चमत्कारूच कसो जालो!

नाजाल्यार गोरवां राखण्याक आनी येदें व्हडलें कॉळ? केन्ना कोणें सपनांत तरी आयकलां? हांगासर धनयांकडल्यान वर्सा दोन वर्साक एक कांबळ मेळपाक

मारामार. फाटलीं वीस वर्सां गोविंदभटालीं गोरवां राखतां. तेणें म्हाका कितल्यो कांबळ्यो दिवंच्यो? धा?

भंगलो. ही बसलां ती सवी कांबळ.

कांबळीन घुस्पलों पळय.

येसल्या, हेवटेन तेवटेन व्हांवपाक लागल्यार म्हाका मातसो मार्गार हाड, आडवाटेन वचपी गोरवाक शीरट मारून वाटेर हाडटा तसो. तर तो चमत्कार कसो जालो तें आरंभापासून सांगचें पडलें ना?

एक दीस आमोरेस्चेर आमचो सर्पंच शंकर घरांत भितर सरलो. जाले ते गजालीक पांच स म्हयने. भायर बिरी बिरी पावसं पडटालो. गोविंदभटालीं गोरवां गोठ्यांत बांदून, गोठ्याकुशीक धुंवरी घालूनं हांव आतांच भितर सरतां थंय आसलों. सर्पंचान कसलीं कसलीं कागदां हाडलेलीं. सोयरींगतीकबी इचारता तशें बारीक बारीक इचारपाक लागलो. तो इचारता आनी हांव सांगतां.

'तुजें नांव कितें?'

'गुणाजी.'

'आडनांव?'

'खेडेकार.'

'बापायचें नांव?'

'पेटको.'

'आवयचें नांव?'

'मोगरें.'

'पिराय कितली?'

'आतां आशिल्ली जाल्यार पावुणशीं वर्सां आसपाची.'

'पिराय तुजी. आवयची न्हू.'

'पन्नास वर्सां. फाटल्या मार्गशिर्शांत पन्नासावें लागलें.'

'जल्म केन्ना?'

'हांव जावन दोन वर्सांनी भायलें 'जयहिंद' जालां. म्हाका सोळावें लागलां तेन्ना गोंयचें 'जयहिंद' जालां.'

'जल्माची तारीक?'

‘तेन्ना तारको बी खंय आसल्यो ?’

‘लगीन केन्ना जालें ?’

‘मडकयचे जात्रे दिसा वाडयाकाराचें जेवण. दुसऱ्या दिसा लगीन. कार्तिकांत.’

‘बायलेचें नांव ?’

‘धुरपती. तें शिवोलेचें. रघु शिवोलकारालें चेडूं. लगीन जावन विठाय जालें.’

‘भुरगीं ?’

‘व्हडलें चेडूं मैना. मडकय दिलां. दुसरें वासंती. तें आप्यान. तिसरो जनू. चवथें आनंदी. लगीन करून शिरसय दिलां.’

‘हेर भाव-भयणां ?’

‘सगळीं मेळून आमी णव भावंडां. तितूंतलीं दोगां जाणां – एक चेडो आनी एक चेडूं जातनाच मेलीं. हांव सातवो. व्हडलो सगूण, दुसरो बोमो. दोगूय हालीं मेले. बोमो निपुत्रीक. दोगी भयणी. काशी आनी साळू. काशीक गुळेली दिलां. साळू पिळर्णां. घोवाचें आनी तेजें पटना. पांचवो म्हाळगो – बापायच्या शेताक वेंग मारून बसला. सवो सदा चावडेर आसता आनी सातवो हांव.’

‘गोरवां केन्नासावन राखता ?’

‘पिरायेच्या पांचव्या वर्सासावन हातांत गोरवांची बडी घेतली आनी शेणाच्या थाप्यांत हात घातलो.’

‘पयलीं कोणालीं गोरवां राखलीं ?’

‘घरचींच. एक शींग म्होडको पाडो आनी एक शिरबें पाडूक आसलें. पूण तेंकां पोसपाक जड म्हण बापायन इकलीं.’

‘मागीर कोणालीं राखलीं ?’

‘दत्तू शणैलीं. बापायन धुवांच्या लग्नाखातीर तेचेकडल्यान रीण काडलेलें. तें फारीक जायना जालें. म्हणटकूच तेंगेर राखणो म्हण म्हाका दवरलो.’

‘थंय कितलीं वर्सां राखणेपण केलें ?’

‘एक आनी दोन न्हू, वीस वर्सां राखणेपण केलें. तेंगेल्या पोसरांच्यो तीन पिळग्यो हांयें राखल्यो. मदीं लगीन जावन हें घर बांदून रावलों. पूण राखणेपण चालूच उरलें. मागीर काळजाचे पिडेन दत्तू शणै मेलो. तेगेल्या भुरग्यांनी भाटाबेसांकडलें लक्ष काडून घेतलें आनी एक एक करून सगळीं गोरवां इकून वडयलीं. गोठ्याचो पागोय ना जालो. हांव कितें करतलों ? दत्तू शणैलो व्हडलो अनंत सांगपाक लागलो, घरांतलीं हेर कामां करूंक राव. हांयें म्हटलें, ना.’

'मागीर राखणो म्हण कोणागेर रावलो ?'

'गोविंद भटागेर. म्हाजीं राखणेपणाचीं लक्षणां पळोवन तेणेंच म्हाका एक दीस इचाल्लें. तेगेर रावलों तो आजून मेरेन आसां.'

'एकूण कितलीं वर्सां गोरवां राखलीं ?'

'चाळीस आनी पांच वर्सां.'

'आयजवेर कितलीं गोरवां राखलीं ?'

'बारीकमोट्या शें-पाऊणशीं तरी गोरवांचो प्रतिपाळ केला. पन्नासांवयर गायां आनी म्हशिंचीं व्हितां काडल्यांत.'

'गोरवांक राखपाची तुजी खाशेली पद्धत कितें ?'

'शीरट मारलेबगर हांव गोरवाक उलो मारून थांबोवंक शकतां. दाव्या उजव्यान वळोवंक शकतां. मस्त्या बांगर बैलाक शिंगांक धरून आड करपाक जाता. कांसरो पळोवन बैलाक फारावपाक कळटा.'

'गोरवांक भेळसुवपाक कळटा ?'

'चेंचपाक मरे ? तें म्हाजेंच काम. भाद्रपदांतले पंचमीक म्हळ्यार चवथी दुसरे दिसा, दर वर्सा चार-पांच तरी बांगर बैलांक हांव चेंचतां. एक काशिनाथालो पाडो सोडलो जाल्यार हांयें चेंचल्या तितलेय पाडे जैताक पावल्यात. तोच एक पाडो आंडबांगर उल्लो.'

'गोरवांच्यो रोगपिडा पारखुपाक कळटा ? तेंचेर वखदविर्सद करपाक कळटा ?'

'कळटा तर. नाजाल्यार राखणो कसलो ? गोरवां दांत करकरायतात तेन्ना कुरनाची पिडा जाल्या म्हण वळखुपाचें. झाडापाल्यांचें वखद शिंसलेन घालून पिवोवपाचें. पांयांक लागण जाल्यार वांयगणाच्या चिखलांत गोरवांक भोंवडावपाचीं. दूक आसल्यार केन्नाय दाणयो तापोवन दागपाचीं. गोरवांच्या शेंपडेच्या गोण्याचे केंस झडटा जाल्यार दोळ्यांत शेड्डूक जालां म्हण समजुपाचें आनी मागीर सुयेन दोरो घालून दोळ्यांवयली साय ओडून काडपाची. तेभायर सोर्पान फुंकलेल्या गोरवाक हांव सारकें करतां. वीख चडचे आदीं मात हातीन पडपाक जाय. पांय म्होडक्या गोरवाक हांव सांपळी बांदून उबें करतां.'

'गोरवांचे बाबतींत यादस्तेंत उरपासारके प्रसंग घडल्यात ?'

'घडल्यात. एकदां दत्तू शणैल्या गोरवांक पातीन चवळेचीं ताडां खावयतालों. जाल्यार एक कोणाली गाय, बाण कशी धांवोन येयली आनी म्हाज्या गोरवांनी रिगली. तेबराबर सगळ्या गोरवांनी तिचे भोंवतणी गोठण केली. फाटल्यान




दोन जाण धांवत येयले. परकी मनीस. तेणी ती गाय इकती हाडलेली. ती तेंकां कशीच बदना. म्हाज्या गोरवांचो सांगात सोडिना. एक मोटें कुवाडें कशें. मागीर समजलें. ते गायेक व्हरताले सोजीक दिवपाक. वांजुड्डी म्हण ती धनयान तेंकां इकलेली. हांयें म्हटलें, गायेक मारूक दिवप बरोबर न्हू. आनी गोरवां तीं. तेंकां सगळें कयटा. ते म्हणपाक लागले, आमी दुडू फारीक केल्या. तेंचेंय खरें. हांयें दत्तू शणैचे पांय धरले. म्हटलें, तुज्यो गायो तशीच ही गाय. पोशिल्ले मोनजातीचे मानेर सुरी चलपाक फावना. तुज्या गोठ्याक आयुश्यभर झरतां. तूंच हे गायेक इकती घे. दत्तू शणै तसो मायेस्त. तेणें त्या मनशांक पैशे फारीक केले आनी हांयें गायेक हाडून गोठ्यांत बांदली.'

'आनीक एखाद्रो प्रसंग?'

'आसा. तोवूय दत्तू शणैलीं गोरवां राखतानाचो. दोंगरावयल्या सरयांत तेन्ना आतांच्या सारकींच गोरवांक चरयताले. एक दीस गोरवांक घेवन यो जाल्यार

सरयांचें धांव फांतर मांडून बंद केलां. म्हाका येयलो राग. हांयें आडो मोडलो आनी गोरवांक भितर चरपाक सोडलीं. तेंचें मोटें प्रकर्ण जालें. सांतेरीच्या देवळांत धा जाणांचें गांवपण जालें. म्हाका आपोवन व्हेलो. हांव चौखार रावन खरें तें उलयलों.'

'आडो कोणें बांदलेलो तें म्हाका खबर ना. सरयें कोणालें तेंवूय म्हाका खबर ना. हांयें आडो म्होडलो ही गजाल खरी. कारण इतकीं वर्सां गोरवां त्या सरयांत चरतात. सरयीं अशीं बंद केलीं जाल्यार गोरवांनी खंय चरपाचें? आनी फुडें सांगतां – परत कोणेंय सरयें आडायलें जाल्यार हांव म्होडटलों. म्हाजें तुमी जाय तें करात. ती सांतेर पळोवन घेतली.' ते बराबर सगळेजाण म्हाजेंच खरें म्हणपाक लागले.

गोरवांचोच आनीक एक प्रसंग आसा. एक दीस वासू अभिशेकीली गाय येयली गरमेर. हांगाथंय लागली धांवपाक. हांव राखतालों त्या गोविंदभटाले तिगूय पाडे लागले तिचे फाटल्यान. वासू आपूण कांसाटो खोवन गायेची राखण करपाक हांगाथंय धांवता. म्हाका म्हणपाक लागलो, तुगेल्या पाड्यांक कुशीक काड. ते गायेचेर चडूंक फावना. कित्याक तर गाय गरमेर येयल्या आनी तिका चड दुदाखातीर संकरीत करपाक जाय. तिका गांवठी पाडे लागल्यार गायेची वाट लागतली. हांयें म्हटलें, 'हांव पाड्यांक कडेक काडचोंना. तूं जाय जाल्यार तुजे गायेक सांबाळ. गरमेक येता त्या गायांक फळोवपाचो अधिकार पाड्यांक ना जाल्यार कोणांक?' तर म्हणपाक लागलो, आपूण केस करतलों. हांयें म्हटलें, 'कर, बैलाचीय कर आनी म्हाजीय कर. हांव बदना.'

'राखणेपण सोडून हेर कसलें काम केलां?'

'हेर कामां तशीं खूब येतात. झाडापेडाचेर चडपाक कळटा. बरो पाडेली जावं येतालो. पेंवपाकूय कळटा. दर्यार रेंव काडपी बुडेली जावं येतालो. खूब जाणांनी आपयलो. कोणें मीनाचे खणीर, कोणें गंवडीपण करपाक, कोणें मानायपण करपाक. पूण ना. एकदां मनांत थारायलें, एकदां उखल्लेली राखण्याची बडी सकयल दवरप ना.'

आमच्यो प्रश्न जापो बरोच वेळ चल्ल्यो.

हांयें सर्पंचाक म्हटलें, मडकेंतलो पेजेचो निवोळ वाटलेंत ओतता तशें सगळें तुजेमुखार ओतलां. हातान कुंयां गाळून काडचीं तशें चाळण मारून काड.

तो खूब खोशी जालो. वांयगणांत कुणग्यानी रोप लावची तशे तेणें कागदांवेले

सगळे खण अक्षरांनी भरून वडयले.

भरलेल्या कागदांचेर आंगठो कर म्हणटकूच मात हांव मातसो दुबावलों. एक तर म्हाका वाचूंक येयना. आनी सर्पंच जालो तरी तो आमचे जातचो न्हू. हांव अनमनलों. म्हाजो बैल गणयता तें रोकडें तेचे मतींत येयलें. शिकणार मनीस तो. तेणें कागदां कवळ्ळीं आनी म्हाजेकडेन दीत म्हटलें, 'हीं कोणाय विश्वाशी मनशाकडल्यान वाचून घे आनी तो सांगता थंय आखाणो मारून म्हाजेकडेन धाडून दी.'

म्हाज्या मनाक तें उतर काण्णीचो कांटो कशें लागलें. हांयें कागदां परतीं तेचेकडेन दिलीं आनी म्हटलें, 'सांग, खंय खंय आखाणे मारूंक जाय ते सांग.'

मागीर तो दाखयत गेलो तशे हांव आखाणे पेटयत गेलों.

'जाणां गुणाजी, गरामपंचायतिच्या नांवान हें बरोवन घालतां. काम जालें जाल्यार तुजेसारको मनीस दुसरो ना.' अशें म्हणोन सर्पंच गेलो. हांवूय म्हाज्या कामांत गुल्ल जालों. तेन्ना कितें जालें तें इसरूनय गेलों. ही गजाल शिरवणांतली.

तर फाटल्या पौशांत कितें जालें – सांजच्या आदेसाक दीस लवंडून वोत मोव जाल्लें तेन्ना कोणींत म्हशींक धुयतालों जाल्यार खाकी मुस्तायकेंतलो एक मनीस कोणीच्या बांदार उबो.

पयलीं तो म्हाका खेतबावलें कसोच दिसलो. बारीकसाणेन पळय जाल्यार पोस्टमनीस. आतां म्हटलें, हो हांगा कित्याक? तर तो म्हाकाच सादयता, 'गुणाजी ऽऽ गुणाजी ऽऽ.' म्हाका सोदीत तो हांगासर येयल्लो. हांव काचाबूल जावन वयर सरलों.

'तार.' तेणें बोटव्यांतल्यान कागद भायर काडलें.

'तार?' म्हाजो आवरो उडलो. म्हाका आयुश्यांत केन्नाच तार येवंक ना. गोविंदभटाक दोन फावट येयल्ली, एकदां बेळगांवच्यान, मांव पेड्ड्यार जाला तेन्ना, आनी दुसरी मुंबयच्यान, तिसरी सून – महेंद्राची बायल – सुटल्या तेन्ना. म्हाजो शिवलचो मांव तर म्हाजें – जांवयाचें तोंड पळवचे आदींच खंवसलो आनी म्हाजी सून शिरमती तर म्हाज्या दोळ्यां हुजरा आसा. तशे नात्याकात्यांतले दायजी बी आसात. पूण तशें कितें वायश्ट घडल्यार, मनीस येवपाचो रकाद घेवन. तार न्हू. कोणें बगलांट बी करूंना मू?'



'सय करता काय आखाणो लायता रे?'

'आखाणो.'

पूण हात पुसपाक नाका? काश्टी ओली. तसोच माथ्यांत हात घालून हात पुसलो. आतां खंयचो आखाणो? दावो काय उजवो? दोनूय पुसले आनी म्हशिचीं शिंगां कशीं पोस्टमनशामुखार धरलीं. तेका दावो आखाणो बरो लीप दिसलो. तेणें त्या आखाण्याक आपल्या पेनाची शाय सारयली. आपणाल्या तायटाचेर कागद दवरलो आनी आखाणो उदेवन काडलो. घशीचो हात वणटीचेर उदेवचो तसो तो उदेलो.

'वाच मरे.' हांयें म्हटलें. म्हाका सुटलो कडकडो. त्या कडकंड्यान आंगावयलें उदीक बरें तेन्यापानांवयल्यान निस्तता तशें निस्ततालें.

'तूं गोरवां राखणो मरे? तुका दिल्लीक आपयला.' इतलें सांगून पोस्टमनीस खांदाक बोटवो लावन बांदावयल्यान येयल्लो तसो तोल सांबाळीत तुरूतुरू

करून गेलो.

हें म्हटलें, कसलें बगलांट ? गोरवां राखणो खरो. पूण केन्ना कसल्या किजीलांत ना, झगड्याझुजांत ना. मागीर दिल्लीक कित्याक आपयला ? कितेंय भानगड आसल्यार आपोवपाचो पुलीस स्टेशनार. नातर बद्द पणजे. पूण अकस्मात दिल्लीकसो कित्याक ?

नस्तें अपसरण आंगार येयलें.

सारकें समजून घेतलेबगर सुटकावाट ना. म्हशींक तशोच उफेत दवरल्यो आनी बद्द घरा धांव माल्ली.

घरा पाव जाल्यार कितें पळयतलो ? घराच्या आंगणांत सगळीं जमल्यांत. म्हाजी बायल विठाय, सून शिरमती, पूत जनू आनी नातू कांतू. तेंकां तारेची खबर आदींच कळलेली. तार म्हणटकूच वायश्ट खबर हें सगळ्यांनी ताडलेलें. कसली ती फकत कळपाची आसली. ती कळनाफुडें सगळीं रडपाचे तयारेंत आसलीं.

म्हाज्या हातीन तार, आनी आमी सगळीं कुड्डीं. म्हणजे म्हाका, बायलेक, चेड्याक, सुनेक कोणाक वाचूंक येयना. कारण कोणेंच शिरीची गांठ चिरुंना. तो पोस्टमनीस भेटलो तोवूय अर्दकुटो.

सगळ्यांनी नातवाच्या – कांतूच्या पांयार घालून घेतलें. पाडव्याक गोरवांची करतात तशी सगळ्यांनी कांतुची लक्तुबाय केली. हांयें तेचे फाटीर हात भोंवडायत म्हटलें,

'वाच, शाण्या वाच.'

घाडी पाटार बसून आंशे काडटा तितले सवकासायेन कांतू एक एक अक्षर वाचपाक लागलो.

'दर वर्सा पास जाता मरे तूं? आनी वांचपाक कळना ?' सून शिरमती, तेची आवय तेंचेर धेंगसली. हांयें तिचेर दोळे वठारले. कांतू जालो म्हण कितें जालें ? शिकलेलो भुरगो तो. शिकलेल्यांक आपणालें शिक्षण वयर काडटकूच रोकडें शीट्ट जाता. तेंकां बाबापुता केल्यारूच ते आयकतात.

'हें इंग्लीशीन बरयलां.' कांतून तोंड वांकडें करीत सांगलें.

'म्हणजे तुका इंग्लीश येयना तर ?' तेच्या बापायन जनून आवाज चडयलो.

खरें म्हटल्यार कांतू शिकता इतलेंच आमी जाणा आसलीं. तो खंयच्च्या वर्गांत आसा आनी कसले भाशेन शिकता तें देव जाणां! आमचे घरवडींतलो

तिसरे पिळगेंतलो भुरगो शांळेंत वयता हेंच आमकां मिरोवपाक पुरो!

'म्हाका अंदूच्यानूच इंग्लीश लागल्या आनी हीं अक्षरां पुस्तकांतल्या भाशेन न्हू.' कांतून आपले परीन जाप दिवन आपली बाजू मांडली. मनशाभशेन अक्षरांय वेगवेगळीं आसतात हें आमकां खंय खबर!

'कांतू, चत्रायेन पळय. म्हाका खंय गोरवांराखणो म्हणोन दिल्लीक आपयला.' हांयें कांतुचो भार मातसो ल्हव केलो. तेसरशीं कांतून अदमास लावन म्हटलें,

'हय, तें खरें.'

सगळ्यांक सूऽ जालें. कोण खंवसूंना म्हणून बरें दिसलें.

'दिल्लीक कोणालीं गोरवां राखपाचीं आसात?' आमगेले विठायन हुस्को काडलो. हांयें तिका ओगी केली आनी कांतुची सायबाजात्रा केली.

'कांतू, शाण्या, दिल्लीक कित्याक आपयला तें मातशें पळय.'

कांतू परत वाचपाक लागलो. येदोसो गांजुड्डो. त्या इंग्लेज उतरांकडेन झुजता तें पळोवन तोखणाय दिसली.

'आज्या, तुका मरे ॲवाड मेवळां.'

'ॲवाड म्हणजे कितें?' 'तें बरें काय वायश्ट?' पूत सुनेन फाटोफाट इंचारलें.

'ॲवाड म्हणजे व्हडलें बक्षीस!' कांतून उमेदीन म्हाजे गोमटेक वेंग माल्ली. आज्याक बक्षीस मेवळां म्हण पोराक खोस जाल्ली. तारेवयल्या बाकिच्या अक्षरांचो तेका अर्थ लागलो ना. आमीय तेजो नाद सोडलो. घरांत सगळ्यांक उमेद जाली. लग्न थारलां पूण न्हवऱ्याक पळोवंक ना अशा वेळार होंकलेक जी खोशी जाता ते तरेची ती खोशी आसली.

धोराचो वास वाऱ्यार पातळचो तशी एका वराभितर खबर गांवभर फांकली. खबरेक तरांतरांचे फाटेय फुटले.

आमचो सर्पंच शंकर. तेका दिसता वास आसलो. तो धांवत येयलो. येवचे येवन तेणें तारेच्या कागदाचेर घालून घेतलें. एके घडकेंत वाचून सोंपयलें आनी तेणें कितें करचें? म्हाका थंयच मरे होळयेच्या गड्याक मारता तशी वेंग माल्ली.

'गुणाजी, गुणाजी पापया तुयें गांवचें नांव वयर काडलें. तुयें सर्पंच म्हण म्हाका व्हडलो केलो.' वेंग मारून म्हाका तो घुंवडायत आसलो. म्हाजी मुंजीची काश्टी खंयचे खंय पावली. मागीर तेणें तारेंत कितें बरयलां तें फोडणिशी करून सांगलें. तार दिल्लीच्यान येयल्ली. तारेंत बरयिल्लें:

श्री. गुणाजी खेडेकार. तुका अभिनंदन. तुका कळोवपाक आमकां खुशी जाता

कित्याक काय म्हटल्यार तुका अंदू वर्साचो बऱ्यांतल्या बऱ्या गोरवां राखण्याखातीर आशिल्लो रासपती पुरस्कार फाव जाता. पंचवीस हजार रुपया रोख, तांब्यापटो, परमाणपत्र आनी शाल, इतलें आसतलें. पुरस्कार फेब्रेराचे चार तारकेर नवी दिल्ली हांगासर रासपती भवनांत भेटयतले. तुवें प्रत्यक्ष येवन पुरस्कार घेवचो. हे तारेफाटोफाट सइस्तर म्हायती दिवपी पत्र तुका रोकडेंच धाडटले.

सर्पंचान सगळें मळब निवळ केलें. कारण तेणेंच हें सगळें बरोवन घातलेलें. आनी म्हाका चट करून याद जाली.

आरेच्या. भोंगू म्हाजें! गोविंद भटाल्यो म्हशी कोंडींत फुगतल्यो.

तशीच कोंडींत धांव माल्ली.

मागीर दिल्लीच्यान पत्रार पत्रां येत रावलीं. तीं घेवन हांव सर्पंचागेर धांवपाक लागलों. तेणें बरोवन दिल्ल्या पत्रांचेर आखाणे मारपाक लागलों. त्या दिसांनी हांव दाव्या हाताचो आखाणो शेणा-मातयेंत लोळयनासतना मातसो लिपूच दवरतालों.

हांयें दिल्लीक वचपाचें थारायलें. खबर कळ्ळी पोशांतले अश्टमी दिसा. ॲवाड घेवपाचो दीस माघांतली पंचम. म्हणजे तयारेक असो तसो एकूच म्हयनो. पयल्यान पयलीं जनूचे आवयक इचारलें,

'विठाय, या मुगो दिल्लीक?'

विठायन कितें सांगचें? 'जळोव करपाचो आसा. शेणीं थापपाच्यो आसात. आनी शिरमती दुवाळ्यांचें आसा. हांव कशें येवं? तूं बरेभशेन वचोन यो.'

हांयें अदमास केलो. दिल्लीक वचोन येवपाचें म्हणजे येवपा-वचपाक पंदरा-वीस दीस तरी लागतले. पणजेच वचोन येवपाक बसीन एक आदेस लागता. दिल्ली म्हणजे पन्नास पणज्यो तरी आसच्यो ना?

सर्पंच लागलो हांसपाक. म्हणपाक लागलो, दिल्लीक वचपाक फकत अडेज वरां.

हांव तोंड 'आं' करून आयकत रावलों. तर खंय, वयपाचें इमानान आनी येवपाचें इमानान.

सायबा म्हाज्या! आरे, माथ्यावयल्यान इमान वयता तें पळोवं नजो. इमानान बसून वयपाचें?



इमानान बसपाचें मंत्री, मिनेर, भाटकार असल्या लोकांनी. राखण्यान इमानांत बसप म्हणजे मानायानूच भाटकाराच्या माचुलांत बसलेले भाशेन जालें.

सर्पंचान म्हटलें, ही लोकशाय. लोकशायेंत कितेंय जाता.

हाये सर्पंचाक म्हटलें, हांव बशीन, ट्रकान, टेंपोन नातर ते लांबेले गोठाण गाडयेन वयतां. पूण इमानान नाका. म्हाका भंय दिसता. मदींच कल्ल जालें जाल्यार? वगीच सुखाचो जीव त्रासान कित्याक घालप? त्या उतरार सर्पंच म्हणपाक लागलो,

'ना, ना. कोंताक येयना. थंय देसांतल्या हेर वाठारांतले अॅवाड घेवपी सगळे राखणे इमानान येतले. तूं इमानान गेलोना जाल्यार आमच्या गांवाक तें उणेपण. फकत गांवाक न्हू. सबंद गोंयाक तें कमीपण. गोंयकार राखण्यक इमानांत बसपाक कळना अशें ते समजतले. तुयें इमानान वयचेंच पडटलें.'

आनी हांयें तें मानून घेतलें. इमानांत बसपाची संद मेवळ्या. कित्याक सोडुंया?

आनी खर्च सरकाराचो. सर्पंचाक हांयें सहज इचारलें, 'विमानाचे तिकेटीक पैशे कितले?' तेणें म्हटलें, 'धा हजार रुपया. वयपाक पांच, येवपाक पांच.' आवयस! म्हाका शेळो घाम सुटलो. धा हजार म्हणजे गोविंद भटाल्यो दोन म्हशी जाल्यो. म्हणजे वयपाक एक म्हस आनी येवपाक एक म्हस खर्चली.

मदीं एक भानगड जाली. पंचीस हजारांची.

पैशे थंय भानगडी आसाच. जालें कितें? ॲवाड पंचीस हजारांचो म्हणपाचें सगळ्याक फांफू जालें. घरांत पंचीस हजारांची आपलेपरीन वांटणी जाली.

कांतूक सायकल जाय जाली.

गळ्यांतलो पोरणो मणी वडोवन आपणाक नवो मणी बांदपाक जाय म्हण सून शिरिमती परत परत म्हजे हुजीर घोवाक धोसूंक लागली. मागीर हांयेंच म्हाज्या तोंडान 'करचो' अशें सांगून वडयलें.

जनू पावसांत दिसावड्याच्या कामांक वयताना सत्री घेवन वयतालो. थंय कामांक खोटी जाताली. तेका बरी कापोत घेवपाक जाय आसली.

विठायन कसली इत्सा सांगूंक नासली. पूण एक सत्यनारायण पूजा करपाक जाय आनी आपूण न्हेसतां तें दिवजांचें कापड फातर्पेकान्नीक दिवपाक जाय इतलेंच तेणें सांगलें. देवी फातर्पेकान्नीन खंय तें दोन वर्सां आदीं तिच्या सपनांत येवन मागलेलें. तें कापड देवीक दिलें म्हणटकूच हिका नेवें घेवचें पडलें ना? हांयें थारायलेलें तें अशें–

कोंप्रीचें थोडें रीण आसा तें फारीक करपाचें. दिसानदीस कळंतरूच जाता.

घराचें पाखें कोलवाचें आसा तें एकदांचें कण्णोवपाचें. जमल्यार अद्र्यार सुलचे नळे घालपाचे – नाजाल्यार घातले गांवठी. मागीर फुडलें करूनी जनूक.

एक गायचें आडसाठें पाडूक मात घरांत हाडपाचें. गोरवांचो पागो परत सुरू करपाचो. पंचीस हजारांनी हें इतलें हातीलागीं येत व्हय?

त्या दिसांनी हांव ह्याच चिंतनांनी आसलों. असोच गोविंदभटाल्या गोठ्यांत कावरू गायच्या व्होटयेच्यो किट्टी काडटालों जाल्यार मुखार गोविंदभट.

'ह्या दिसांनी लिपोनसो रावता मरे गुण्या. केन्ना गोठ्यांत येता आनी केन्ना भायलेभायर वता तेंच कळना.' तो दाढेंत उतरां चांचावन उलयतालो.

हांयें याद केली. ना. अशें केन्नाच घडोंना.

हांव सदचे सारकोच सगळे ब्लेव्हार करतालों. सक्काळीं येवप, गोरवांक सोडप,, शेणाचे थापे काडून गायरेंत वडोवप, सारणं मारप, गोरवांक घेवन दोंगरार वचप, परत हाडून बांदप. पेंड कालोवप, तण घालप सगळें जशाक तशें जातालें. आनी कितें काय म्हटल्यार –

'गोविंदमाम, तशें कांय ना आं.' हांव प्रमाणाक लागलों. तेसरशीं तेणेंच विशय बदल्लो.

'तुका सोर्त लागल्या खंय!'

'सोर्त न्हू. ॲवाड.'

'पंचवीस हजार म्हणटकूच सोर्तूच जालीना?'

'हय.'

'म्हजो महिंद्र रे. तिसरो. मुंबय आसता पळय' तो. वैज.'

'तेचें कितें जालें?'

'होणार काय? तेका असोच तुजेभाशेन ॲवाड मेळिल्लो. धा हजार पूण पांच वर्सां आदीं. म्हणजे आतांचे पंचवीस हजारूच ते. तेका मेळिल्लो तो ॲवाड तो शिकला म्हणून, तुका मेळ्ळा तो तूं शिकूंना म्हणूंन. तेणें काय केल्लें माहीत आसा?'

'कितें केल्लें?'

'धावूय हजार म्हाका धाडून दिले. म्हणपाक लागलो, तुमी शिकोवन म्हाका व्हड केला. त्या पैशांचेर तुमचोच अधिकार. गुणा, तूं कितें करतलो त्या पैशांचें? आमचीं गोरवां राखलीं म्हण तुका ते मेळटात.'

हांव मोन्यांनी थंयसावन कडसरलों. घरा येवन विठायच्या कानार घातलें. म्हटलें, गोविंदभट असो असो त्रोसांनी उलयलो.

विठायक येयलो राग. तें लागलें गोविंदभटाक खेपूंक. एकल्या गोविंदभटाक तरी? सगल्या भटांक. कशेंच थांबना. खंयचें हेका सांगलें अशें जालें.

गजाल सर्पंचाच्या कानार घालून हांयें विचारलें,

'गोरवां गोविंदभटालीं राखलीं म्हणटकूच ॲवाड गोविंदभटाक येणो?'

सर्पंच रागान तांबडो जालो.

'ॲवाड तुका मेवळा. आनी तुयें गोरवां कितें गोविंदभटालींच राखल्यां? दत्तू शणैलीं राखूं ना? तुगेलीं राखूं ना? हो गोविंदभट स्वताक समजता कितें?'

हांयें सर्पंचाक थातारून धरलो. हांयें म्हटलें, 'पळय, गोविंदभटान तशें स्पश्ट

सांगूंना. आनी तसो तो दुसऱ्यांच्या दुडवांचे आस्तेचो न्हू. घडये तेणें एके भाशेन म्हटलां आनी हांयें दुसरेभाशेन आयकलां आसूं येता. आतां परत जर तेणें हो इशय काडलो जाल्यार तेका कितें जाप करपाची तें हांव पळयतां. पूण तुमी आमचेमदीं पडों नाका. नाय म्हटल्यार आमची फाटली बावीस वर्सांची वहिवाट आसा. तेचे हात म्हाज्या पोटांत गेल्यात.'

आनी मागीर ह्या पंचीस हजारांच्या प्रकर्णाचेर पड्डो पडलो.

एक दीस आमोरेचेर घरांत भितर सर जाल्यार सगळीं जाणां कपलाक आंठयो घालून बसल्यांत. हांयें काचाबूल जावन इचाल्लें, 'कितें जालां?' जाल्यार पयलीं कोणएक उलयना. मागीर कांतून तोंड उकतें केलें.

'जाणां मरे आज्या, सगळ्यांक हुस्को पडला.'

'कसलो हुस्को?'

'तूं दिल्लीक वयताना कितें न्हेसतलो?'

'कितें न्हेसतलो म्हणजे? काश्ट्यो आसा. वाले आसा. तुवाले आसा. गिड्डें, खोमीस, जाकीट, सगळें आसा.'

'हेंकां तेजोच हुस्को पडला. तूं तें न्हेसोन दिल्लीक गेल्यार आमची लज काडटलो अशें सगळीं म्हणटात.'

'लज काडटलों? हय रे जनू? तुका हांसपाक तूं खंयच्या हापिसान मॅनेजर बी आसा काय कितें रे? आनी तूं गो शिरिमती? तूं कितें शाळेंत बाई आसा? आनी विठाय कितें भाटकान्न?'

'तशें न्हू दादो, दिल्ली म्हणटकूच मातसो जानोत वच. हांव तुका लांब कालसांव आनी कोट शिंवतां. तोपी घेवंया. बुटां घेवंया.' जनू उलोवपाक लागलो.

'आज्या, बुटांत पांय घालतलो काय पांयांत बूट घालतलो?' कांतून उडकी मारली. तेसरशीं तेचें खोमीस ओडून शिरिमतीन ताका वगी केलो. म्हाज्यान रावं नजो जालें.

'तुमी गुणाजीचो कितें गुणोबाब शणै करपाक मुखार सल्ल्यात? आरे ॲवाड राखण्याक मेवळा. हांव थंय राखणो कसो वयतलों. वालो, तुवालो आनी दोन लेंस नेये हाडचे.'

'काड लज.' विठाय गालांतल्या गालांत माजर कशें गुरगुरलें.

'लज कित्याक काडटलों?' म्हात्मा गांधी कसो भोंवतालो खबर ना? कांतू, तुजे आज्जेक दाखय रे गांधीबाबाचें चित्र. एका वालक्यार सगळी जीण सारल्या तेणें. सगळ्याक असोच भोंवतालो खंय.'

'तो आसून तसो भोंवतालो. सगळ्यांक खबर आसा. तुमी तशे भोंवल्यार नासून भोंवता म्हण लोक खेबाडां करतले.'

'हांव तसो काश्टी न्हेसून वचना गो. म्हाज्या भेसान हांव वयतलों. फळोवशीत तूं.'

अदींमदीं कोणकोण येवन म्हाका शिटकावन वयताले.

आयक गुणाजी, असो बस, असो उठ. असो खा आनी असो जेव.

हांव सगळ्यांक एकूच सांगतालों. बाबुसो सांगता तसो.

आमच्या वाड्यार शिगम्याक नाटकां जातात पळय, तितून दमो बाबुसो शिवाजीचें सवंग करता. येसायेक तेका दर एकलो सांगता, बाबुशा असो उलय, तसो उलय. बाबुसो सगळ्यांचें मोन्यानी आयकता आनी सगळ्यांक एकूच जाप दिता, 'हांव तें जूस्त करतां.'

हांयेंय तशेंच केलें. घरांत विठाय, शिरिमती, जनू म्हाका, दिल्लीक हें कर, तें कर म्हण मदींमदीं सांगतालीं तेन्ना म्हाज्या ओंठार तींच उत्तरां येतालीं. पूण बारकेलो कांतूच तेंकां सांगतालो, 'तुमी आज्याक कांयच सांगों नाका. आजो तें जूस्त करतलो.' आनी सगळीं खो खो करून हांसतालीं.

जालें! इतले मदीं दीस गेले उडोन.

वयपाचें फाल्यां.

त्या सांजवेळा म्हशींक कोणींत घालून बऱ्यो धुयल्यो. तणाची कणशी मारून तेंचें आंगपांग निवळ केलें. कावरूचेरूय थोडें उदीक माल्लें. चार म्हशी, तीन गायो, चार पाडकां आनी दोन बैल अशा तेराय नगांक धुवन पुसून लीप केले. गवणींत दांव्यार बांदलीं. तण घातलें. गोठ्याचे दोशींवशीं बरी धुंवरी घातली. दर एकल्याक खड्ड्याक हात लावन सांसपिलें. जाल्यार गवणींतल्या तणांक कोणएक तोंड लायना. सगळीं बटबटीत दोळ्यांनी म्हाका तुकूतुकू करून पळयतात.

हेंकां दिसता, हांव फाल्यां ना तें कळ्ळें. मोनजातीक म्हण फटोवं येता?



हांयें तशींच सगळ्यांक सांसपीत म्हटलें, आरे म्हाज्या शाण्यांनो, हांव कितें दिल्लीक सासणांचो रावपाक वयतां? अवघ्याच दिसांचो प्रश्न.

कसलीं समजिकायेचीं जाणा पोसरां. हांयें अशें म्हणनाफुडें तणाक तोंड लायलें.

गोठ्यांतल्यान तसोच भितर सरलों पडयेर. जाल्यार धोलतेराचेर गोविंदभट बसला. हांव म्हटलें फाल्यां दिल्लीक वयतां. रोखडो परततलों. हांव येसर गोरवांची मातशी जतनाय घे. कोणायकडल्यान करून घे. अवघ्याच दिसांचो प्रश्न.

गोविंदभट वांकड्यान कांय उलयलोना. वयल्यान 'बरो करून वचोन यो. गोरवांची काळजी करूं नाका' अशें हांसत्या तोंडान म्हटलें. म्हाका तेंच खूब जालें. म्हाजें बरें आसा. म्हाजे अस्वडीं हेणें आपल्याच गोरवांचो सांबाळ केल्यार पुरो.

आनी बाबा दिल्लीक वयपाचो दीस उजवाडलो. घरांत सकाळीं सगळ्यांचेर बोवाळ.

हांव तळयेर न्हावंक वचपाक भायर सरलों जाल्यार शिरिमतीन शाबू आनी तुवालो काडून दिलो.

न्हावन यो जाल्यार विठायन तुळशिचे पेडयेमुखार उदकाचो तांबयो, दसणीचीं फुलां, गंध झरोवपाक साण आनी साणीचेर तेफळीणीचो आंगुळभर कांटो दवरला.

तुळशिची पुजा केली. एक नाल्ल हाडून विठायन सांगलें, हो उखलासून वयर पारेतीर दवर. देंवचाराक सांगणें करून नाल्ल उखलासून दवरलो. म्हटलें, सगळ्यांच्या मनाभाशेन जावंदी. पांच पानांचो इडो आनीक एक नाल्ल विठायन हातांत दिलो.

'हेंचें कितें करपाचें ?'

'हो वाटेर इमान थारता थंयच्या वाटेवयल्या देंवचाराक दवर. वाटेची राखण.' विठायन भावार्तान सांगलें. नाल्ल आनी इडो घेवन पोतयेंत दवरलो.

मागीर शिरिमतीन पेज वाडली. विठायन इंगळ्यांचेर बांगडो भाजलो. कांतू म्हाज्यावांगडा जेवपाक बसलों. काश्याची वाटलीभर उकड्या करंगुटाची सरसरीत पेज. आतां सांजमेरेन भंय ना. वाटेर कांय खावपाक मेळना जाल्यार लेगीत जाता.

'आज्या, जूस्त करपाचें आं.' कांतून सुरसुरीत पेज पियेत म्हाका सांगलें. म्हाका पोराची तोखणाय दिसली. हातांतलो बांगड्याचो कोपो लक्तुबायेन तेच्या तोंडांत घातलो.

इतल्यान भायर गाडयेचो आवाज. भायर येवन पळय जाल्यार हयडुळ्या कोन्र्या कोराची इस्पीशेल धाकटी गाडी. गाडयेंतल्यान देंवलो सर्पंच. मागीर फाटल्यान देंवलो दुसऱ्या नंबराचो सर्पंच — उपसर्पंच शिवराम. मागीर आनीक एकलो पंच आनी चिंचेवाड्यावयली पंचबाई.

'तुमी सगळीं जाणां म्हाका पावपाक येतात काय कितें रे ?' हांयें हांसत इचाल्लें.

'गुणाजी, बेगीन भायर सर मरे.' सर्पंचाक खूब ताकतीक आशिल्ली. आसपाचीच. तोच सगळो जाळवणदार. म्हाजें कितें उठ म्हणटकूच उठपाचें.

बस म्हणटकूच बसपाचें.

‘पळय गुणाजी, हांव तुका इमानतळामेरेन पावपाक येतां. मुखार सगळें तुजें तुयें पळोवन घेवपाचें.’

‘तूं वांगडा येयल्यार वायटशें जावचें नासलें. तुजे फाटल्यान तुगेली गरामपंचायत सांबाळपाक हे तुगेले वांगडी आसाच.’ हांयें म्हटलें.

‘आरे, दिल्लीक वांगडा वचप म्हणजे कितें पणजे-मडगांव वचून येवपाइतलें सोंपें रे तें?’ सर्पंचान म्हाजें तोंड बंद केलें.

‘आगो विठाय, ते कपडे हाड. न्हेसतां.’ हांयें ताकतीक केली.

‘मातसो राव.’ विठायन सांगलें. हें म्हटलें राव कित्याक म्हणटा म्हणून भितर नदर मार जाल्यार हें पंचबाईच्या कपलाक लायता. ती दिसता, पयलेच खेप आमगेर भितर सरलेली.

न्हेसोन हांव भायर येयलों जाल्यार सगळे म्हाका पळयत उरले.

हांव म्हाजो जात्रे काल्याक न्हेसतां तो पांच हाती वालो न्हेसलेलों. एक शेव काश्टी करून खोयलेलो जाल्यार दुसरो शेव कंबराभोंवतणी रेवाडलेलो. भितर मुंजीच्या बदला चांदीचें काण. काणाक कोयतूल खोयलेलें. वयर खोमीस. खोमसाभितर गिड्डे. गिड्ड्याच्या बोल्सांत विडयांचें फोलीण, फस्क. खोमसावयर जाकीट. जाकिटाच्या भितरल्या बोल्सांत पयशे. खांदाचेर कांबळ. हातांत बडी. आनी पांयांत दोन दीस खोबरेल पियेल्ल्यो करकरीत व्हाणो.

दुसऱ्या नुंबराच्या सर्पंचान म्हटलें, ‘गुणाजी, तूं सामको बोडगेश्वर जाला मरे!’

‘आरे, हें तुजे न्हेसप बरें आसा. पूण ही कांबळ, बडी, कोयतूल थंय कित्याक?’ दुसऱ्या पंचान म्हटलें.

‘आतां आनीक कळाव नाका. कितें घेतलां तें घेवनी तेका.’ सर्पंचान घडयाळीकडेन पळयत ताकतीक केली.

‘आयकलां ऽ’ विठायन म्हाका कुरू करून दाराकडेन आपयलो.

‘कितें?’

‘ते पंचीस हजार मेळटकूच भितरल्या बोल्सांत दवर.’ म्हाज्या हातींत कपड्याची पोतीं दीत तिणें सांगलें. ते पोतयेंत दोन वाले, एक खोमीस, दोन न्हेसपाचे लेंस, एक रीस्कांचो तुवालो, कुड्याच्या शेनतांची कवळी, चुरो, पानां, नाल्ल आनी इडो इतलें सामान आसलें. कपड्यांखातीर ती फुगलेली.

'पोती सांबाळून.' शिरिमतीन सांगलें.

'हो जनू खंय?' हांयें पुताक सोदलो जाल्यार हो रांदचेकुडींत वणटीक तेंकून राण बायलेभशेन मुळूमुळू रडटा. हांयें हात लायनाफुडें 'दादो ऽऽ' म्हण म्हाका येंग माल्ली. तेसरशीं विठायन आनी शिरिमतीन आपल्या दोळ्यांक पालव लायलो.

'मागीर रडात रे फाटल्यान. तेका पयलीं भायर सरुंदी.' आतां सर्पंच खऱ्यांनीच तापलो. तेसरशीं हांव सडसडीत भायर सरलों.

'आज्या, हांव आंगणांत रावतां. इमान वयल्यान वयंतकूच हात दाखयतां. तुंवूय दाखय.' कांतून फाटल्यान येत म्हटलें.

'बरें बरें.' हांव गाडयेकडेन गेलों. ड्रायवरान गाडयेचें फाटलें भोकें उकतें केलें. हांयें तितूंत पोती दवरली आनी हांव थंयच चडलों. इतल्यान सर्पंच धांवत येयलो.

'आरे, थंय खंय बसता? मुखार बस.' तेणें म्हाका ओडून भायर काडलो.

खरें म्हटल्यार म्हाका फाटल्यान बसपाक कयटालें. दत्तूशणैगेर आसतना तेगेल्या पुताचे गाडयेंत असोच फाटल्यान हांव अणसांचें पाटें घेवन बसलेलों.

सर्पंच्यान फाटलें दार उकतें केलें, म्हाका भितर धुकल्लो आनी दार धांपलें. तर दार कशेंच धांपना. ही आनी म्हटलें कसली नखलामी? जाल्यार हातांतली बडी सकयल दाराचे दाढेक शिरकल्या. बेगीबेगीन भितर ओडली तेन्ना दार बसलें. सामकें घट्ट. भरतेर मानशेचें दार लागता तशें.

गाडयेंत फाटल्यान हांव, मुखार ड्रायवर आनी कुशीक सर्पंच. बाकिचे सगळे थंयच रावले.

गाडी सुरू जाली तशे मार्गार उबे आसलेल्या सगळ्यांनी केळिच्या चार्वटांभशेन हात हालयले.

'जाणां गुणाजी, इमान सुटचेआदीं एक वर इमानतळाचेर पावपाक जाय.'

'म्हाका खंय खबर?'

'ही तिकेट. सांबाळून दवर. आनी हो पत्तो. हॉटेलाचो. इमानतळाचेर देंवनाफुडें असलीच भाड्याची गाडी करपाची. टॅक्शी म्हणटात तिका. हो पत्तो दाखयल्यार पुरो. भिवपाची कसलीच गरज ना. कितें?' सर्पंच म्हाका चत्रायो दीत आसलो. हांव 'उं' 'उं' करून मोन्यांनी आयकतालों.

'उलय मरे', सर्पंचान म्हटलें.

'उलोवं?' हांयें म्हटलें. 'खरें सांगूं सर्पंच, तूं म्हाज्यावांगडा येयल्यार बरो.' तेसरशीं सर्पंच खो खो करून हांसलो. ड्रायवरूय हांसलो. हांयें थारायलें, कितें जाता तें जाता. आपणाल्या वज्याक आपणेंच माथें मारप.

एका वराभरयान गाडी दाबोळे म्हणटा थंय पावली. हेवटेन हांव केन्नाच पावोंक नासलों.

एकदां सुकड्याच्या पांचा दिसांक टेंपोन वास्को सड्यार गेल्लों. पंचिशेक जाण धेडे जावन गेल्ले. हांव एकलों सोडून सगळ्या जाणांनी पिवन मस्ती केली. गांवचें नांव पेड्ड्यार केलें. तेन्नाच्यान कोणाचे पांच दीस म्हणटा ते नाका म्हणून कानांक पिंवळ घातलो.

'इमानतळार पावले. देंव, देंव.' गाडी थारनाफुडें पयलीं सर्पंच देंवलो. मागीर तेणें फाटलें दार उकतें केलें. हांव देंवलों. कांबळ आनी बडी घेतली. कोयतूल सारकें केलें. ड्रायवरान गाडयेचें भोकें उकतें करून पोती भायर काडली. ती सर्पंच्यान घेतली. तेचेकडल्यान ती हांयेन घेतली. म्हटलें, मागीर इसरपाक नाका.

आमी दोगूय चलपाक लागले. थंय गाडयांच्यो हारी आशिल्ल्यो. तरांतरांच्यो गाडयो. त्यो सारक्यो पळोवपाक मेवळ्योना. कारण सर्पंच बेगीबेगीन चलून दाराकडेन पावलो.

दार कसलें? फळ्यांचेंय न्हू आनी लोखणाचेंय न्हू. चकचकीत हारशांचें. दाराकडेन लोकांची लूट आसली. सर्पंच्यान हातांतली तिकेट दारावयल्या चेडवाक दाखयली. तें काळें सावळें शिरवंत चेडूं थंय बरें न्हेसून बी रावलेलें. तेणें तिकेट पळयली. सर्पंच्याचेर फकत एक नदर मारली आनी म्हाका मात बारीकसाणेन नियाळीत रावलें.

हांयें मनांत म्हटलें, बाय गो, म्हाका असो नदर लावन पळोवपाचें म्हाजें हें वय? आगो तुजी पिराय कितली? म्हाजी कितली? तूं म्हाजी भाची आशिल्ली जाल्यार तुका खांदार मारून शिरगांवचे जात्रेक भोंवडावन हाडटलों आसलों.

हारशाच्या दारांतल्यान भितर सरले. भितर सर जाल्यार व्हडलो माटोव कसो. म्हाशिवरात्रेच्या नाटकांक देवळामुखार घालतात तसो. सुमार पांचशीं चौखण मेत्रां तरी जागो आसतलो. एक एक खांबो देवळांतल्या खांब्याभशेन. खांब्याचेर तरातरांचीं चित्रां आनी कसले कसले बरयिल्ले तकटे दसयल्ले. मदीं बसपाक कदेलां. पूण तीं लाकडाचीं वा लोखणाचीं न्हू. बालद्योबीन येता

तसलीं प्लास्टीकचीं. तीं एके हारीन एकामेकांक जोडून आसलीं. चारूय भोंवतणी तरातरांचे पसरे आनी मांड दिसताले. कांय कांय मांडांचेर फळां, पुस्तकां, खेळणीं मांडून दवरलेलीं जाल्यार कांय मांड रिकामेच आसले. तेंचो माल खपलेलो आसपाक जाय. ते थंय बेठेच एकामेकांकडेन गजाली मारीत आसले. वयर चारूय वाटेन माळी आसली. देवळाचे सर्वळेवयर आसता तशी. ते माळयेरूय लोक हेवटेन तेवटेन धांवताले.

कर्ण्याचेर कोणतरी उलयतालो. आमी उलयता ती भास सोडून खंयचेतरी भाशेन उलयतालो. परत परत तींच उतरां म्हणटालो पूण सांतेरीच्यां देवळांतल्या भटालें कर्णो लावन केल्लें पुराण कोणूच आयकना तशी गत जाल्ली. जो तो आपल्या चिंतनांत आसलेलो.

इतल्यान सर्पंच एक गाडी धुकलीत घेवन येयलो. भुरग्यांचो पांगुळगाडो बी आसता तसली. अशोच गाडयो थंय खूब आसल्यो. तेंचेर कोणी कोणी सामान दवरलेलें आनी मुखावयल्यान त्यो धुकलताले. तेखातीर कोणूच माथ्यार सामान मारून व्हरनासलो.

हांयें मनांत म्हटलें, धकलगाडी बरी आसा. कांतूक खेळंपाक बी बरी. असली गाडी मेवळी जाल्यार खेळपाखातीर माडाच्या कव्र्यांचीं चक्रां करून आनीक गाडो करपाक नाका.

'पोती हांगा दवर', सर्पंच्यान म्हाका सांगलें.

'हांयें म्हटलें, जड लागना. वगीच गाड्याचो खर्च कित्याक?'

'ही गाडी फुकट', सर्पंच्यान सांगलें. तेबराबर हांयें पोती गाडयेर दवरली.

पांयापोंदची जमीन सगळी तिजुल्यांची. सांतेरी देवळांतले तिजुले पालखे दिसा चंद्रें भावीण पुसून निवळ करता तशे ते लीप केल्ले. मदीं मदीं कांय बायलो गुट्याक ओली फाळी लावन जमीन पुसून काडटाल्यो. तेणी भितर साडयो आनी वयर लुंवणेक घालता तशीं दादल्यांचीं खोमसां घातलेलीं. त्या तिजुल्यांचेर टक् टक् करून चेडवां उंच खोंटांचीं बूटां घालून चलतालीं. पळयताना भंय दिसतालो. हीं पांय निसरून पडटलीं. पूण ना. जागरांतलो निखणडार पांयांक दांडलां बांदून मांडार सहजतायेन चलता तशीं तीं चलतालीं. ह्या सगळ्या चेडवांचो भेस वेगवेगळे तरेन आसलो. मात सगळ्यांच्या गळ्यांत लांबता तशे तकटे घातलेले. त्या तकट्यांत तेंचेच खोटू आसले. पाडव्या दिसा पाडकाच्या गळ्यांत बारीक पोळे गुंथून बांदताना हांव कांतूच्या गळ्यांत असोच एक बारीकसो

पोळो गुंथून घालतालों, तेची म्हाका याद जाली.

लोक तरातरांचे आसले. कोणाचे कोण म्हणटा तें कांयच कळना आसलें. आमचो सर्पंचूच मातसो गोंदळलेलो. तो हेवटेन तेवटेन पळयतालो. सर्पंच गोंदळ्ळा म्हणजे हांव कितलों गोंदळ्ळां आसतलों तेजो अदमास करात.

इतल्यान सर्पंच्यान एका चेडवाक आडावन इंग्लेजींत कितेंतरी विचाल्लें आनी इमानाची तिकेट तेका दाखयली. तेणें तिकेट पळयली आनी हांसत्या तोंडान मुखार बोट दाखयलें. म्हाका त्या चेडवाची तोखणाय दिसली. आवयबापायन तेका बरी देख लायलेली म्हूण कयटालें.

चट करून म्हाजे तकलेंत एक गजाल येयली. म्हाज्या इमानाचे तिकेटीचेर, नवरात्रांक केळिचे गबे कातरून मखर करतात तशी धवी खुणा आसली. तीच कुरू त्या चेडवान आंगार लायलेल्या बिल्ल्याचेर आशिल्ली. त्या चेडवान बोट दाखयलेलें थंयूय असलीच कुरू आशिल्ली.

अशें जाल्यार हें म्हटलें बरें आसा. अक्षरां वाचपाक कळना म्हण खंती जावपाची गरज ना. हे कुरवेन बरींचशीं कामां सोपीं जावं येता.

इतल्यान सर्पंचान म्हटलें, 'गुणाजी, हांगासर जायत्यो इमान कंपन्यो आसात. आमच्यो बशी बी कश्यो येगयेगळ्या पात्रांवांच्यो आसतात तश्यो. प्रत्येकाचे मनीस येगळे. तुगेले कंपनिचें नांव मतींत धर. इंदियान एर्लान.'

'याद उरपाकूय बरें.' हांयें म्हटलें.

'चल मुखार या. गाडी धुकल.' सर्पंच मुखार सरलो.

आवयस्स! धकलगाडी कसली रे बाबा! हात खंयचो? बोट मात लायलां. धांवली. सांबाळ्ळी.

आमी दोगूय एके नाबीमुखार उबे रावले. आमचेमुखार आनीक कांय जाण गाडयो घेवन उबे आशिल्ले. साखरेक, पेत्रोलाक बी लागता तशे हारीन उबे रावले. एकलो एकलो मुखार धुकलत आशिल्लो.

एकदांचो सर्पंच आनी हांव नाबीचेर पावले. विनू कामतील्या पसऱ्याचे नाबीपरस मातशी उबार आसली. नाबीचेर दोग दादले आनी एक बायलमनीस आसली. तेंच्याय आंगार तेच कुरवेचे बिल्ले आसले. म्हाका ते आमचे मनीस कशे दिसले आनी ते आशिल्लेय तशे, कारण सर्पंच्याकडेन ते आमचेभाशेन उलयताले. सर्पंच्यान तिकेट तेंचेमुखार दवरलें. बायलेन तें उगडलें.

'गुणाजी खेडेकार कोण?' हांयें म्हटलें, हांव आनी हो आमच्या गांवचो

सर्पंच. तिणें मुखावयलें आयकलेंच ना. तिणें तिकेटाचेर कितें बरयलें आनी त्या तिकेटांत आनी एक तिकेट घालून परत दिलें.

'सामान आसा ?'

'हय.'

'कितलीं बॅगां ?'

'बॅगां खंयचीं गो ? ही एक पोती आसा.' हांयें पोती काडून नाबीर दवरली.

'ती हातांत धरतलो काय लगेजांत सोडटा ?' तिणें इचाल्लें. हांयें म्हटलें, खंय सोडपाक हाडूंना ती. इमानांत खंय दवरपाक जागो नासल्यार मांडयेर दवरतां. तेणें पोतयेक बांदपाक कागदाचो एक बिल्लो दिलो. त्यावूय बिल्ल्याचेर तीच खुणा आसली. सर्पंच्यान तेचेर कितें बरोवन तो पोतयेक बांदलो. इतल्यान बाबा एकल्याचें लक्ष म्हाजे बडयेचेर गेलें.

'हें कितें ?' तेणें इचाल्लें.

म्हाज्या तोंडार येयलें, दोळे फुटल्या रे ? पूण वगी रावलों.

'बडी मरे. गोरवांची बडी.'

'ती तुका लागता ?'

'लागता म्हणजे, एकयेळ इडी लागना पूण बडी लागता.' हांयें सांगलें.

'तशें न्हू, तुका ती चलपाक बी लागता काय म्हण तो इचारता', सर्पंच्यान फोडणिशी केली. हांयें म्हटलें, तशी लागना.

'ती हातांत धरपाक मेळचीना, लगेजांत सोडची पडटली.' तेणें फर्मायलें.

लगेजांत म्हटल्यार खंय सोडपाची तें म्हाका समजलेंना. तें सर्पंच्यान सांगलें. इमानांत खंय सामान एकीकडेन आनी मनीस एकीकडेन. आमचे बशींतले भाशेन न्हू. सामान हांगचे गोंयचे नाबीर दिवपाचें आनी तकटो दाखोवन थंय दिल्लीचे नाबीर घेवपाचें.

'बडी हातीन धरून व्हरपाक मेळना ?'

'ना. तसो कायदो आसा.' त्या मनशान सांगलें.

'बडी कोणाचेरूय मारीत म्हण तेंकां भिरांत दिसता', ल्हवूच म्हाज्या कानांत सर्पंच्यान सांगलें.

हांयें म्हटलें, इतलोय म्हाजेर इस्वास ना ? फाटलीं पस्तीस वर्सां बडी हातीन धरल्या पूण आजून मेरेन गोरवांचेर सोडून कोणाचेर मारूंना, तो हांव इमानांत बेस्टोच कोणा परक्याचेर मारतलों ? येदो व्हडलो रासपती ॲवाड मेवळा तो

बेस्टोच ? हांव तणतणलों. पूण तो बडी हातीन धरपाक कशीच मान्यताय दिना जालो.

सर्पंच्यान म्हटलें, 'गुणाजी ही बडी तुका सतायतली. तूं ती हांगाच दवर. हांव सांबाळून घरा व्हरतां. तुका बडयेबगर झेत येयना जाल्यार थंय दिल्लीक घे. थंय बऱ्यो बऱ्यो मेवटल्यो.

हांयें म्हटलें, सर्पंच, झेताखातीर न्हू. बडी नास्तना राखणो म्हणजे मुरली नास्तना क्रीशण मरे. सर्पंच्याक तें पटलें. एक बरें. सर्पंचाक एकदां पट्टा तें जाताच. सर्पंचान बडी नाबीचेर दिली. तेणें नंबराचो एक कुडको बडयेक दसयलो आनी तसलोच एक कुडको म्हाका दिलो.

'हो सांबाळून दवर.' सर्पंच्यान सांगलें. म्हाका तें समजलें. मनशाची तिकेट येगळी, बडयेची येगळी.

'कांबळ खांदार घेतल्यार जाता मरे ?' हांयें मातशें तिरसुवादपणानूच इचाल्लें. तेणें मान हालोवन 'हय' म्हटलें.

'खंय तुजें इमान ?' हांयें इचाल्लें.

'शिक्युरीटी चेक कर.'

'कितें करूं ?'

'चल, हांव सांगतां.' सर्पंचान म्हाका नाबीवयलो काडलो. आमचेफाटल्यान दुसरो मनीस तेंकलेलो. ती धकलगाडी आमी थंयच सांडली. सर्पंच म्हणपाक लागलो, तेंचो मनीस येवन व्हरतलो. आमकां लागना.

सर्पंच्यान म्हाका कुशीक काडून सांगलें, 'गुणाजी, आतां मुखावयलें सगळें तुजें तुका पळोवचें पडटलें.'

'म्हणजे ?'

'आरे, हांगामेरेन दुसऱ्या मनशाक येवपाक मेयटा. आतां मुखार तुयें एकल्यानूच वयपाचें. थंय लायनींत वचून उबो राव. थंय शिक्युरीटी चेक करतात. म्हणजे ते तुका तपासतले.'

'तपासतले ? हांव कितें दुयेंत आसां तर ?'

'तसलें तपासप न्हू रे. तुका कयटलें आपशींच. चल. बरो करून. भिवपाची गरज ना. आमचें नांव व्हड करून यो.' सर्पंचान म्हाका थंयच येंग माल्ली. म्हाका तेचे पांय धरीनशे जाले. हांव तेच्या उपकारान माथेंभर बुडलेलों. हांयें इतलेंच म्हटलें, 'सर्पंच आयज तूं म्हणोन हांव हो इमानतळ पळयतां आनी

तुज्याच धर्मान मुखावयलो ॲवाड घेवपाक वयतां.'

सर्पंचान म्हजी फाट थापटिली. हांयें निमाणेंशें इचारचें म्हणोन तेका इचाल्लें,

'सर्पंच, म्हाका मातसो दिल्लीमेरेन येवन सोडपाक जावचो ना ?'

'परत परत तींच पिशेपणां कितें करता ?'

'बरें ना. म्हाजें हांव पळोवन घेतां. म्हाका एकूच सांग.'

'कितें ?'

'इमानांत बसतकूच भंय दिसना मरे ?'

'तें म्हाका कशें कयटलें ? हांव खंय केन्ना इमानांत बसलां ?' सर्पंचान म्हाकाच इचाल्लें. आतां म्हाका खंय ख़बर !

इतले मजगतीं कर्ण्यावयल्यान कोण 'शिकुरीटी चॅक चॅक' करपाक लागलो. सर्पंच्यान म्हाका मुखार धुकल्लो. हांव मुखार सरलों आनी परत आनीक एके हारीन उबो रावलों. दर्यांतल्या दोन पनेळांचो सांगड सुट्टा तशें आमचें दोगांयचें जाल्लें. सर्पंच पयस रावन म्हाका पळयत आसलो. म्हाजी पाळी येतकूच हांयें म्हाजी तिकेट दाखयली. दाराचेर पुलीस आसलो. तेणें आदली तिकेट बोल्सांत दवरपाक लायली आनी नाबीर दिल्लीं ती तिकेट पळयली. 'चल', तेणें सांगलें.

हांयें भितर सरचेआदीं सर्पंचाक हात दाखयलो. सर्पंच हात हालयतालो. लगीन जातकूच चेडूं अनवळखी अशा परक्या घरा वयता, तशें म्हाका जालें.

मुखार परत आनीक एक हार. आतां म्हाज्या लक्षांत येयलें. तशें पळोवंक गेल्यार एकूच हार ती. कारण म्हाजे मुखार आनी फाटल्यान तेच तेच लोक आसले. हांयेंन हेरांच्या हातींतल्या तिकेटींचेर नदर माल्ली. दर एकल्याच्या हातींतली तिकेट येगयेगळी आसली. म्हाज्या तिकेटीसारक्यो आनीक कांय जाणांकडेन तिकेट्यो आसल्यो. म्हाज्या मुखार एक गोरे कातिचें जोडें आसलें. पाखलो आनी पाखलीण आसपाक जाय. गळ्यांत मणी नासलो पूण लगीन जाल्लीं आसूंक जाय, कारण लायणींत दोन दोन पावलां चलतकूच एकामेकांचे उमांव घेतालीं. दोगांय इमान चुकत म्हणोन धांवाधांव करून इमानतळाचेर येयल्लीं. बोवाळान आंगाचेर कपडेय घालपाक तेंकां इसर पडलेलो. ते बायलेन अर्दें कलसांव घातलेलें आनी चोळयेवयर पोलको घालपाक ती इसरलेली. घोवान लांब लेंगो कसो कितें घातलेलें आनी वयर बानयान घातलेलें. पूण कपडे घालूंना म्हण तेंकां कोणाची लज दिसनासली. तेंच्या हातींत म्हाजेच कुरवेचें

तिकेट आसलें. हांयें म्हटलें, जावं! आसूं हीं नागडीं-उगडीं, म्हाका वांगड जालो.

आमची मनशांची लायण आतां मुखावयले कुडींत पावली. थंय सगळे पुलीसूच आसले. एक माक्न कशें घुंवतालें. मुखावयल्या जोड्यान आपणाल्या हातांतल्यो चामड्याच्यो पोतयो त्या माक्नांत घातल्यो. तेबरोबर दाणयांवयल्यान त्यो पोतयो भितर गेल्यो. त्या पोतयांनी कितें आसा तें मुखावयल्या चौकोनी खोक्याच्या पड्ड्यार दिश्टी पडलें. म्हाजीय पोती तशीच भितर गेली आनी कितें अजाप! पोतयेंतलीं शेनतां, इडयो, नाल्ल, इडो हेंचीं चित्रां पड्ड्यार उदेलीं. ती करामत पळयत आसलों. पोती भितर गेली ती भायर येयलीच ना. हांयें पोती मागली. माकनार बसलेल्या मनशान कुरवेनूच म्हाका सांगलें – माक्नाचे दुसरेवटेन मेळटली. हांव तसोंच मुखार गेलों. थंय लाकडाचो एक दरवटो कसो उबो केल्लो. हांव दरवट्यांतल्यान भितर सरलों जाल्यार 'पिंक पिंक' असो आवाज येयलो. हांव कांचवेलों. म्हटलें, खंयच्यान आवाज येता?' हांयें बेश्टोच फाटल्यान हात भोंवडायलो. मुखार एकलो पुलीस म्हाका आपयतालो. हांव तेच्या फुड्यांत वचोन उबो रावलों. तेच्या हातीन एक लांबोडकें माक्न आसलें. तें तो म्हाज्या आंगाभोंवतणी हुंवाळपाक लागलो. आतां म्हटलें, हो कितें म्हाजी दिश्ट बी काडटा काय कितें?

'कितें करता?' म्हाज्या उतरार तो वगीच रावलो. माक्न आंगार भोंवडायत रावलो. तेबरोबर दोन-तीन फावट माक्नांतल्यान 'पिंक-पिंक' असो आवाज येयलो. तेबरेबर तेणें सवकासायेन माक्न भोंवडावपाक सुरवात केली. पयलीं 'पिंक पिंक' आवाज जालो तो माक्न भुजाचेर येतकूच. तेणें हात थंय लायलो. भुजाचेर दोऱ्याचेर गुंथून पितुळची दावज बांदलेली. तेणें ती सोडोवपाक लायली. केदोवेळ दोऱ्याची गांठ सुटना. तेसरशीं तेणें ती ओडली. दोरो तुटलो. म्हाका कसलो राग येयलो.

हांयें म्हटलें, 'तितून राखणेची विभूत आसा. ती तोडली कित्याक?' तरी तेचो इस्वास बसलो ना. तेणें ती तावज उसयली. तितूंतली विभूत तायटार ओतली. वास घेतलो.

हांयें म्हटलें, फट दिसता जाल्यार जिबेक लावन पळय.' पूण तेणें जिबेक लायली ना. तावज आसा तशी बंद केली आनी म्हाज्या हातीन दिली. हांव वस्ताद! हांयें सांगलें, 'सोडलेली तशी बांद.' तेणें मोन्यांनी आसली तशी



भुजार बांदली. आतां म्हटलें, हेच्या तोंडांतल्यान सुटकावाट जाली. तर हेणें परत तें माकून आंगार भोंवडायलें. जाकीटाक चार पितुळचे बुतांव आशिल्ले. त्या बुतांवांचेर 'पिंक पिंक' आवाज जावपाक लागले. आतां म्हटलें, हो बुतांवूय तोडटा दिसता, पूण तो तेंचे वाटेक गेलो ना.

कमराचेर येतकूच एकसारको 'पिंक पिंक आवाज जायत रावलो. तो अजापलो. तेणें म्हाज्या कमराभोंवतणयां हात घातलो. तेच्या हातीक लागलें कोयतूल. तेसरशीं हातीक जिवाणें लागलेले भाशेन तो किळांचलो. तेची किळांच आयकून आनीक दोग जाण पुलीस तेच्या आदाराक धांवून येयलें. तितूंत एक बायलमनीस आसली. तिणें दादल्याचो भेस केल्लो. ते आपलेमदीं कितेंतरी उलयताले. म्हाका कांयच कळ्ळें ना. ते म्हाजो वालो सोडपाक पळयताले. हांयें म्हटलें, 'तुमकां कितें जाय तें सांगात. काडून दितां. वालो सोडूं नाका.'

तेंकां त्या काणाचें कुवाडें पडलेलें. हांयें उजव्या जांगेवयल्यान वालो वयर

काडलो जाल्यार सगळे दोळे वरशे करून पळयत रावले. ती बायलूय. जाल्लें कितें, म्हाजे जांगेर आशिल्ली व्हडली मांव. म्हाका दत्तू शणैल्या बैलान एकदां शिंगार काडलेलो आनी जांग फाळून वडयलेली. शींग काश्टेक शिरकलें आनी वाटावलों. ती मांव पळोवन तेंकां दिसलां आसतलें, हो एक व्हडलो गुन्यांवकारी मनीस आसूंक जाय. तेणीं काणाक हात लावन पळयतकूच मात तेंची खात्री पटली. मागीर हांयें काणाचें कोयतूल भायर काडलें. तेबराबर तीं सगळीं अजापलीं. तितूंतलो एकटो म्हाका कळटा ते भाशेन उलयलो,

‘हो कोयतो तूं खूंय व्हरता ?’ तो पुलीस किरिस्तांव आसपाक जाय.

‘हें पळय, हो कोयतो न्हू. हें कोयतूल. आनी तुमी पुलीस असल्या कोयतुलाक भियेता म्हण म्हाका खंय खबर !’

‘हो तूं खूंय व्हरता ?’

‘खंय म्हणजे ? दिल्लीक.’

‘दिल्लीक कित्याक ?’

‘रासपतीक दाखोवंक.’ हांयें कोयतूल हातींत घेत म्हटलें. तेणें तें म्हाज्या हातींतलें काडून घेतलें. कुशीक दवरीत म्हटलें,

‘पूण हो कोयतो तुका व्हरपाक मेवचो ना.’

‘कोयतो न्हू रे बाबा. सामको अनाड्याभशेन कितें उलयता रे तूं ?’

‘तेंच. हें तुका दिल्लीक व्हरपाक मेवचें ना. दिल्लीकूच न्हूय, इमानान तुका खंयच व्हरपाक मेवचें ना.’ तेणें निबर उतरांनी सांगलें.

‘कित्याक ? कोयतूल म्हाजें.’

‘तें जालेंच. पूण तें जावन आसा एक हतयार. तेका लागून घात बा जावं येता. देखून असलीं हतयारां व्हरपाची परवानगी पासींजरांक ना. तेसो कायदो आहा.’

‘कायदो आसा जाल्यार बरें आसा. पूण एक लक्षांत दवर, हांव गुणाजी खेडेकार. तसलो घात बी घेवपी मनीस न्हू. पळय, बेश्टो म्हाका रासपती ॲवाड मेळ्ळोना. तेच खातीर हांव दिल्लीक वयतां.’ हांयें रागारागान जाकीटाच्या बोल्सांतलें पत्र तेंच्यामुखार दवरलें. तेणें तें वाचलें आनी कितें अजाप सांगूं ! तेणी म्हाका फकत माथ्यार उबारून घेवपाचें बाकी दवल्लें. पत्र पळयनाबरोबर तेंची नुराच बदल्ली. तेणें म्हाका ‘सर’ म्हुटलो. एकदां आनी दोनदां न्हू, परत परत. तोच पुलीस म्हाज्या गळवज्ञा येयलो. म्हणपाक लागलो, ‘सर, तूं व्हडलो

मुनीस. आमचेर एक उपकार कर. हो कोयतो, न्हू कोयतूल, तूं बराबर व्हरों नाका. तुयें तशें केल्यार आमची सिर्वीस वयतली.'

इतलो वगत म्हाका चोराक कसो तपासतात तें पळोवन म्हाका तेंचो राग येयल्ले पूण आतां काकूळट दिसली. हांयें म्हटलें,

'बरें आसा. तशें जाल्यार हें कोयतूल हांगा खंयूय कत्रेलांत दवर. मागीर दिल्लीक साकून येतना व्हरतां.'

'नाका, नाका. तें परत धाडून दी.'

'भायर आमचो सर्पंच आसा. तेजेकडेन घरा धाडून दितां.' हांव कोयतूल घेवन फाटीं वळ्ळों.

'पूण एक सांगात, इतल्या बोवाळांत इमान सुटना मरे?' हांयें इचाल्लें. आतां हांव बरोच तयार जाल्लों.

'ना ना. तुका घेतलेबगर इमान कोहेंच वोचपार ना.' तेणें म्हाका उतर दिलें. हांयें मनांत म्हटलें, किरीस्तांव मनीस. उतराक नेगार वचपाचो ना. तेणें म्हाज्या वांगडा एक पुलीस दिलो. हांव परत भायर येयलों. भायर सर्पंचाक सोदून काडलो. म्हाका पळोवन तो काचाबूंल जालो. तो समजलो म्हाका धांवडावन घातलो म्हणून. घडलेली सगळी खबर तेका सांगली आनी कोयतूल तेजेकडेन दिलें. आनी येयल्लो तसोच ताकतिकेन परत भितर गेलों. दरवट्याचेर पुलिसान म्हाका परत आनीक तपासलो ना. म्हाका सलाम करीत तेणें म्हटलें, 'व्हडलो मनीस. गोंयचें नांव व्हड करून यो.' तेच्या फाटोफाट हेर पुलिसांनीय म्हाका सलाम केले. म्हाका तेंचीं उतरां घोस्ताक गेलीं.

दुसरेवटेन माक्नाच्या पोंताक म्हाजी पोती म्हाजी वाट पळयताली. ती उखल्ली.

आतां एके दुसरेच कुडींत पावलेलों. भितर पावन्न मात दवरलां. आवयस्स! कितलें थंड शितळ! अनंताच्या देवळांत भितर सरलेले भशेन जालें. अनंताचें देवूळ तळयेचेर बांदलां देखून भितर थंड. होवूय इमानतळ असोच तळयेर वयर बांदला आसतलो. हांगासरूय सगळें निवळ निवळ आसलें. भायल्या माटवांतल्याभशेन हांगासर बोवाळ आनी कचकच नासलो. भाताचे गिरणेंत तांदूळ मुखार सरतात तशे हांगासर सगळे कड्डून भड्डून येयल्ले. हांगासरूय बसपाक कदेलां गुंथून दवरलेलीं. एके कदेलीर हांव बसलों.

इतल्यान म्हाजी नदर भायर गेली. मुखार वणटीच्या जाग्यार सगळे आरव्याचे आरव्ये हारशे बसयलेले आनी त्या हारशांतल्यान मुखावयलें सगळें दिसतालें.

इमानतळ म्हणटात तो होच आसपाक जाय हें म्हाका कोणें सांगनासतनाय समजलें. कारण मुखार व्हडलें खळें आसलें. गोविंदभटालें सुपारी सुकोवपाचें खळें कांयच न्हू. एक सरयेंच कशें. सगळ्या खळ्याक शिमीट घालून एका तळार केल्लें. मदीं हळदुवे पटे ओडून कुणग्यो केल्ल्यो.

खळ्यांत एके हारीन इमानां उबीं आसलीं. अनंताचे जात्रेक पिड्डूककारां फळ्यांचेर खेळांतलीं इमानां एके हारीन मांडून दवरतात तशेच तरेन तीं इमानां आसलीं. पनेळ कशीं बारीक तेचवरी व्हडल्या कोठयाभशेन मोटीं आसलीं. तळयेंत उडी मारतना हात फांकारून उबे रावतात तशीं तीं पांखाटे पसरावन आसलीं. तेंकां चक्रांय आसलीं. व्हड्यांक पोंदच्यान चक्रां लायल्यार व्हडीं कशीं दिसतलीं? तशीं तीं दिसतालीं. दोन इमानां खळ्याच्यामदें आसलीं. एक एके भाशेचें आनी दुसरे दुसरे भाशेचें.

आमचें इमान खंयचें काय? म्हाका प्रश्न पडलो. आनी म्हाजें कुवाडें सुटलें. म्हाज्या तिकेटाचेर जी धव्या गब्यांची कुरू आसली तीच कुरू त्या इमानाचेर आसली. आतां म्हटलें, सांगपाक नाका. त्याच इमानान वयपाचें.

पूण वयपाचें कशें? केन्ना वयपाचें? खबर नासलें. आतां म्हाका कळ्ळें. तो कर्ण्यावियल्यना कोण उलयता म्हटल्यार इमानां केन्ना येता-वयता तें सांगता. तेचप्रमाण त्या चौकोनी खोक्याचे पाटयेर कोण अक्षरां बरोवन बरोवन पुसता म्हटल्यार इमानाचो वगत सांगता. तें पळयतकूच म्हाका दिसलें, कांतू आसल्यार वाचून दाखयतलो आसलो.

हांयें हेवटेन तेवटेन पळयलें. तें गोरे कातिचें जोडें खंय बसलां तें पळयलें, जाल्यार मदींच बसलेलीं. हांव तेंचेर नदर दवरून रावलों. थारवन दवरलें, तीं उठ्ठा तेन्ना उठपाचें, तीं बसता त्या इमानांत बसपाचें.

बोल्सांतल्यान इडी काडली. पेटयली. आनी झेतान ओडीत रावलों. हांयें सगळ्यांचेर एक नदर मारली. तरातरांचे लोक आसले. कांय गोरे. कांय गोरे पूण उजळलेले भाशेन. कांय जाण काळे. म्हाज्यापरस काळे कुळकुळीत. सामके कुळडांभाशेन. भेसूय जिनसांवार. लांब पेंटां, मोटवीं पेंटां, एकलोय सभागी पुडवें न्हेसूंक नासलो आनी वालोय. हांवूच एकलों तेंचेमदीं येगळो कसो आसलों. एक-दोगांकडेन कांबळी आसल्यो पूण त्यो म्हाज्या कांबळीसारक्यो न्हू. सामक्योच पातळ. कुबेर्ताभशेन. दिसताल्यो बऱ्यो. बायलो साडयांपरस मोटवे घागरेच चड न्हेसलेल्यो. थोड्यांनी पांयामेरेन लोळटा अशे घागरे घातलेले. कांय जाणी

तर दादल्यांच्याच भेसांत आसल्यो. तेंकां फकत हड्ड्यावयल्यान बायलो म्हण वळखुपाच्यो. थोडीं भुरगींय आसलीं. कातीवयल्यान तीं गिरेस्तांलीं म्हण कयटालीं.

इतल्यान कण्र्यावयल्यान कोण उलयलो. मळावयले पारवे फातर मारतकूच वांगडाच उठटात तशे सगळे भुरूभुरू करून उठले. हांवूय उठलों. इडी बेगीबेगीन पालयली. पांयापोंदा माड्डुपाचों. इतल्यान याद जाली. खांब्याकुशीक कोयर वडोवपाचें आयदन आसलें. बाकिचे वडयताना पळोवन दवरलेलें. इडी तितूंत वडयली आनी लोकांबराबर धांवलो. सगळे दाराकडेन गेल्ले. तें गोरें जोडेंय उठलेलें. आनीक आमच्या तिकेटाचे सगळे लोक उठलेले.

दारावयल्या मनशान म्हाजी तिकेट पळयली आनी म्हाका भितर खंयचो? भायर सोडलो. इमानतळाचेर. परत अनंताच्या देवळांतल्यान भायर येयल्लेभशेन दिसलें. कांय पावलां खळ्यांतल्यान चलचें पडलें. खळें सामकें शिमीट सारोवन चकचकीत केल्लें. भातबी घातल्यार एका वोतान सुकोन येतलें आसलें. तण जाल्यार इचारुंकच नाका. मोटकुळेन उसोवन सुद्धां घालपाची गरज ना, करड कशें सुकोन येतलें.

थंय खळ्यांतूच पोतयो, बॅगां मांडून दवरलेल्यो आनी कंपनीचो एक मनीस थंय उबो आसलो. त्या सामानांत म्हाजी बडी आसली. बडी एका बॅगाचेर लवंडलेली. हेरांनी त्या मनशाक आपणालीं बॅगां दाखयलीं. हांयें बडयेक बोट दाखयलें. तेसरशीं तेणें नंबर पळोवन बडयेक दसायलेले तिकेटीचेर शिक्को माल्लो. एक उतर उलयले बगर काम जालें. म्हाजो हुस्को गेलो. आतां म्हटलें, म्हाज्या बराबर म्हाजी बडी इमानांत बसतली.

एके हारीन सगळे इमानाकडेन गेले. म्हाजो अदमास खरो जाल्लो. हांयें येवजिल्लें तेंच इमान आमचेखातीर आशिल्लें. इमानाक दोन दारां आसलीं. फुडें आनी फाटीं. दोनूय दारांक निसणी लायलेल्यो. निसणी म्हटल्यार पाज्जेचीं सोपणां कशीं. हांयें चिंतलें, फाटल्यान वचोन बसपाचें. मुखार बसोनी ह्या गिरेस्त लोकांक. फाटले पाज्जेकडेन गेलों. जाल्यार पयल्याच सोपणार मास्तरान तिकेट पळयली. आनी मुखार वयपाक फर्मायलें. तिकेटीक नंबर आसा म्हणपाचें तेन्ना तकलेंत येयलें.

हांव फुडें गेलों. पाज्जेचीं सोपणां चडून वयर इमानाच्या दारांत पावलों. जाल्यार दाराचेर हात जोडून एके बायलमनशेची कांतयिल्ली म्हूर्त. सामकी देवळाच्या गर्भकुडींतल्या दाराचेर उबे आशिल्ल्या दुवारफळांभशेन. म्हूर्त म्हटल्यार




ती उलोवपाक लागली,

'नमस्कार !'

पळय जाल्यार शिरिमतीचे पिरायेची, नाका दोळ्यान जुस्ताजुस्त अशी एक अस्तुरी, म्हाका दिवजांची सवायशीण कशी पांयां पडटा.

हांयें म्हटलें, 'पोरा, तुजें कल्याण जावं. आजून तुगेर चेडो भुरगो जावंना जाल्यार तो तुगेर जावं !' पूण तें बारीकमोटो मनीस पळयनासतना सगळ्यांच्याच पांयां पडटालें. पूण हांव एकटो सोडून तेचें बरें जावचें अशें कोणेंच म्हटलें ना. तशें म्हणपाक कितें दुडू पडटात? पूण गिरेस्तांक दानत ना म्हणटात तेंच खरें.

भितर सर जाल्यर इमान म्हटल्यार कितें? एक भोंवरी कशी. मदीं एक्कूय म्हेड ना आनी खांबोय ना. तीन हारींनी बसपाचीं कदेलां. खंय बसपाचें? मदीं? कुशीक? हांव बाबा रानांत पडलों. हांव गणयतां तें पळोवन एकल्यान म्हाजी तिकेट पळयली आनी म्हाजी कदेल म्हाका दाखयली. अजाप म्हटल्यार

म्हजी कदेल कुशीक जनेलाकडेन आशिल्ली. म्हाका खूब खुशी जाली. हरशीं खबर आशिल्ली जाल्यार हांव जनेलाकडलीच कदेल मागून घेतलों आसलों आनी आतां म्हाका ती अनायासान पनेळांत उडोन शेंवटो मेळचो तशी मेळलेली. पयलीं हांयें पोती मांडयेर दवरपाची थारायली. पूण पळेत जाल्यार सगळेच आपल्यो पोतयो वयर दवरपाक लागले. माथ्यावयर बरे खण आसले. तेंचीं दारां ट्रकांचीं धापणीं कशीं उक्तीं जातालीं आनी धांपतकूच आपशींच तेंचीं मोलां लागतालीं. हांयें म्हाजी पोटली तितूंत लोटून दिली आनी घडायंच करून धांपणें धांपलें.

हांव म्हाजे कदेलीर बसलों. मोव मोव कुलचांव कशें. तणाचे कुडयेर बसलेले भशेन. हांगसरूय कण्र्याचेर कोण तरी उलयतालो. कितें उलयतालो तें म्हाका कळ्ळें ना. म्हाजे कुशीक एक मनीस बसलेलो. शिकणार कसो दिसतालो. तो कितें करता ते भाशेन करपाचें हांयें थरयलें. तेणें कदेलीच्या दोनूय वटेन हात घातलो आनी दोन पटे वयर कडले. ते कदेलीकूच आसले. सुण्याच्या गळ्यांत घालता त्या पट्यापरस ते मातशे रूंद आसले. त्या पट्यांकूच लोखणाचें कलयाद कशें आसलें. तेणें पटे कमरेभोंवतणी आवळून जोडले. कट् आवाज जावन मोल लागलें. हांयेंनूय तशेंच केलें आनी म्हाका कदेलाक बांदून घातलो. असो आपणेंच आपणाक कित्यक बांदून घेवचो तें म्हाका कळ्ळें ना. पूण म्हाज्या शेजारचो शिकणार मनीस करता म्हणून हायेन केलें. सगळे आपापल्या कदेलीचेर बसले. हांयें फाटींफुडें पळयलें. सगळे बसलेले. कोणूच उबो नासलो. बसींत उबे रावपाक मेळटा तशें इमानांत रावपाक मेळना आसूंक जाय कारण बसींत आसता तशी हात धरपाक आडवी दांडी हांगासर नासली.

इमानांत कोणतरी लग्नांत वाजयता तसली शेनाय आनी तबलें वाजयतालो. पूण खंय बसोन वाजयता तें कळनासलें. मदींच वाजप बंद जातालें आनी उलोवणें आयकूंक येतालें. पूण म्हाका तितूंतलें एक अक्षर कळ्ळें जाल्यार जाय तसलो सोपूत!

इतल्यान एक बायलमनीस म्हाज्यामुखार चॉकलेटीचें ताट घेवन येयली. तितूंत जिनसांवार चॉकलेटी आसल्यो. कांतून ह्यो चॉकलेटी पळयलेल्यो जाल्यार बोचकोच मारपाचो. तिणें चॉकलेटीचें ताट म्हाज्यामुखार धरलें. म्हाका चॉकलेटी घेयन दिसल्यो. पूण रुपयाक कितल्यो तें खबर नासलें. वगीच म्हारग जाल्यार घे कित्याक? म्हण हांव वगीच रावलों जाल्यार शेजारच्या शिकणार मनशान

दोन चॉकलेटी काडल्यो. पूण पैशे फारीक केले ना. एक पुडी काडली. तिचेय पैशे फारीक केले ना.

हांयें कितें करचें? चार चॉकलेटी काडल्यो आनी दोन पुडयो काडल्यो. तिणें पैशे मागले ना. आनी कांय एक म्हटलें ना. मागीर दिसलें, आनीक चार चॉकलेटी काडपाच्यो. एक चॉकलेट सोलली आनी तोंडांत घातली. खूब तेंपान चॉकलेट खातालों. गोविंदभटाल्या अंकूर नातवाच्या वाडदिसाक चॉकलेटी वाटलेल्यो. तितूंतली एक हांयें खाल्लेली आनी दोन व्हरोन कांतूक दिल्ल्यो तेची याद जाली. पूण त्या चॉकलेटींपरस ह्यो चड रुचीच्यो आसल्यो.

दोन पुडयो काडल्यो तितूंतली एक हांयें उसयली. जाल्यार भितूर कापूस. आतां ह्या कापसाचें कितें करपाचें! अशी तशी एक वात जावपाची. इमानांत भितर सरत पासून येगळेच तरेचो आवाज कानांत घुमतालो. म्हटलें, कापूस कानांत घालून पळोवया. गुड्ड्यो केल्यो आनी कानांत घातल्यो. बरें दिसलें. म्हाज्या शेजारच्या शिकणार मनशान म्हाजी करामत पळयली आसूंक जाय. तेणेंय तशीच गुड्डी केली आनी कानांत घातली.

मागीर कर्ण्याचेर आवाज जालो. तेसरशीं दारावयली बायलमनीस आनीक आनी एक बायलमनीस आमचेमुखार उबीं रावलीं. तेणीं हातांत आमी कमराक बांदता तसलो पटो आनी एक हळडुवेंच नाकाक लायता तसलें लांब पट्याचें खेळणें हाडलेलें. तें तोंडामुखार दवरून दोगांयनी कर्ण्यावयल्या आवाजचेर एक नाटकुलें करून दाखयलें. पूण हांव सोडून कोणेंच तें मन लावन पळयलें ना. हांयें मनांत म्हटलें, पळोवपाक काय पैशे पडनात! हांयें खोशी जावन ताळी माल्ली. शेजारच्या मनशान म्हाजेकडेन अजापान पळयलें. हांयें मनांत म्हटलें, हें बरें. तुंवूय ताळी मारचोना आनी म्हाकाय मारूंक दिवचोनां? ताळी मारतकूच ती बायलमनीस म्हजेसरीं येयली. म्हणपाक लागली, ‘यस सर.’ हांयें म्हटलें, ‘बाय गो, तुगेलें नाटकुलें मानवलें. अशेंच करीत राव. एक दीस नांव वयर काडटलें.’ ती हांसली आनी तशीच मुखार गेली.

आतां म्हाका समजलें, ह्यो तिगी चौगी बायलो भितूर बोवळटात तीं इमानांतलीं चाकरमनशां कशीं. कोणाक कितें जाय नाका तें तेणीं पळोवपाचें. त्यो चौगीय एकेच तरेच्यो साडयो न्हेसलेल्यो आनी तेणीं एकेच तरेचे पोलके घातलेले. तेंकां पागाबरोबर वर्साक एक दोन साडयो पोलके मेळटात आसूंक जाय. नातर आमकां राखण्यांक कितें? गोविंदभट वर्साक एक वालको आनी खोमीस दिवपाक

अनमनता. पूण चौगीय बऱ्यो शिरवंत आसल्यो. भटाबामणाल्यो सुनो कशो दिसताल्यो. हांयें तेंकां इमानसुंदऱ्यो अशें नांव दवरलें. गळ्यांत मणी मात नासले. कपलाक तिकल्यो आसल्यो. तेणीं असलीं कामां करप? म्हाका बरें दिसलेंना. हांयें चिंतलें, परिस्थितीत लागोन घडये असलें हलकें काम करपाचें तेंच्या नशिबांत येयलां आसूंक जाय. पूण एक खरें. आपणालें दुख तेणी भायर दाखोवन दिलें ना. सामकीं हांसत्या मुखान वावुरतालीं.

इतल्यान इमानाचो आवाज बदल्लो. फाटल्यान ल्हवूल्हवू कोण तरी इमान धुकलता अशें दिसपाक लागलें. जनेलांतल्यान भायर पळयलें. कोण आनी कितले जाण धुकलता तें मात कळ्ळें ना. पूण इतलो लोक बसलेलें इमान धुकलप म्हणजे उण्यांत उणे पंचीस मानाय तरी जाय. इमान बंद पडलां म्हणून धुकलून इस्टार्ट करता आसूंक जाय. गोंयचें जयहिंद जावचे आदीं अनंत रायकारालो पणजे वचपी कामियांव असोच धुकलून इस्टार्ट मारचो पडटालो. काय व्हडें धुकलून दर्यांत सोडटा तशें इमानूय धुकलून मळबांत सोडटा काय? कितें चल्लां तें कळपाक मार्ग नासलो.

इतल्यान बाबा, इमान धांवपाक लागलें. पयलीं ल्हवू ल्हवू आनी मागीर सामकें फांस. जनेलांतल्यान भायर पळयलें. भायर वाटेर मनीस उबे रावन इमानाक बावटे दाखयताले. खूब धांवलें आनी सायबा भोगोस! अकस्मात काळजांत कल्ल जालें. एकदां अदूर्या माडावयल्यान हात सुटोन बोंडो कसो बांदार पडलेलों तेन्ना वयल्यावयर काळजांत अशेंच कल्ल जाल्लें. पळय जाल्यार इमान वयर उडलें. मुखावयल्या ल्हारांचेर पनेळ कसो उबो जावन वयता तशें तिरपें जावन वयर चडलें. आनी मागीर आसा तशें जालें.

इतल्यान बरी याद जाली. कांतून भायर आंगणांत उबो रावतां म्हण सांगलेलें. हांयें जनेल उगडपाक पळयलें. जनेलावयलें धांपणें वयर सकयल जालें. पूण जनेल कशेंच उकतें जायना. हारशांतल्यानूच भायर पळयलें, कांतू खंय दिसता काय म्हणून. पूण भायर मनशां जाल्लीं मुयो. घरां जाल्लीं फस्कां. शेताच्यो कुणग्यो मात बऱ्यो दिसताल्यो. मार्ग दिसताले पटे. इतल्या वयल्यान मनशाक म्हण वळखुपाक येता? कांतुचें मात भोंगूं. पोर आज्यान फटयलो म्हण रडटलो. हांयें म्हाज्या फाटल्यान आनी फुडल्यान पळयलें. कोणेंच जनेल उकतें करूंक नासलें. आनी तकलीय भायर घालूंक नासली.

मागीर म्हाजे तकलेंत येयलें. हीं जनेलां बशींतले भाशेन उकतीं जावपाचीं

न्हू. आनी उकतीं करप म्हणजे घात. जनेलांतल्यान वारें भितर सरलें जाल्यार इमान तोल वचोन झेलपाटे खावचें ना? तारवांत उदक भितर सरोंक फावना तशें इमानांत वारें रिगोंक फावना. जावं! जनेल बंद आशिल्ल्यान धुल्लाची बी भिरांत ना.

इमान दर्यावयल्यान वयतालें. उदीक सामकें निळें-गाड पांचवें. धडांचेर ल्हारां फुट्टात तीं धवीं तूस कशीं दिसतालीं. व्हडलीं व्हडीं, कोठये, बार्जी दिसताल्यो. पूण केद्यो? कांतू पावसाच्या दिसांनी खळयेंत सोडटा तेदीं कागदाचीं तारवां.

मागीर दर्या सोंपलो आनी दोंगरूच दोंगर. दोंगरावयल्यान व्हांवपी न्हंय निळो पाट कशी दिसताली. मदले रस्ते तर पाटयेचेर काडयेन ओडलेल्या रेगांभाशेन.

मळबांत पयस कोण तरी वाजयतालो. देवळांतल्या विठ्ठल देवळ्याच्या चौघुड्याभाशेनूच तें वाजप आसलें.

माथ्यावयर दोन बुराक आसले. एका बुराकांतल्यान उजवाड येतालो जाल्यार दुसऱ्या बुराकांतल्यान वारें येतालें. तें वारें जुस्त म्हाज्या खड्ड्यार पडटालें. पौशांत कुयणांतल्या वझऱ्याचे धारेपोंदाक बसलेले भाशेन म्हाका दिसलें. हांयें शेजारच्या मनशाकडेन पळयलें. तेच्या हातींत इंग्लेज पेपर आसलो. तेचेर तो मटक्याचे नंबर सोदतालो. फुडें पळय जाल्यार म्हाज्याय मुखार तसलेच पेपर आसले. हांव तेंचें कितें करतलों?

हांयें इमानांतल्या लोकांचेर नदर भोंवडायली. तितूंतले भौतेक कोणाच्या तरी मर्णाक वयताले आसूंक जाय. कारण सगळ्यांचीं तोंडां सुतकी कशीं आसलीं. म्हाज्या शेजरा बसलेल्या मनशाचो तर सामको लागींचो कोणतरी मेल्लेभाशेन दिसतालो.

एक सुंदरें हातांत ताट घेवन येयलें. हें बद्द गोविंद भटाले सुनेसारकें — सुधेभाशेन दिसतालें. तेणें ताटांत घालून धेकेभर लोळयो हाडलेल्यो. त्यो एकार एक मांडलेल्यो आनी इस्टीलच्या चिमट्यान धरून तें सगळ्यांक वांट्टालें. शेजाऱ्यान घेतली म्हण हायेनूय एक लोळी घेतली. पळय जाल्यार धव्याफुल्ल सुतांच्या तुवाल्याचो कुडको. पूण ओलो. आतांच हून उदकांत पिळून हाडलेलो. हो म्हटलें कित्याक? पुसपाक जाल्यार ओलो आसा. पळय जाल्यार शेजारच्या मनशान ताका आपलें तोंड पुसलें, हात पुसले आनी निमाणें 'सोंक्' करून नाकय पिळ्ळें आनी घडी करून तशीच हातांत धरली. आतां तुवालो म्हणटकच कितेंतरी पुसचें पडलें ना! पूण इतलो धवोफुल्ल तुवालो लोळोवपाक म्हाका

बरें दिसलें ना. दुसऱ्यांलो जालो म्हण कितें जालें. हांयें वयलेवयर हातीचेर भोंवडायलो आनी तोंडूच बागोवन तुवाल्याक तेंकयलें. इतल्यान व्हदळचें तें सुंदरें परत ते तुवाले पुंजायत आयलें. हांयें तुवालो तेच्या हातीन दिलो.

'घे बाय. लोळोवंना आं. तुका आनी उमळच्याक त्रास नाका.'

हांयें बरो हातींत दिलो म्हण तेणें तो हातीन घेवं नाका? तेणें तो चिमट्यानूच घेतलो. हरशीं जाल्यार म्हाका दिसपाचें, राखण्याचो तुवालो म्हण हें आपडूंना. पूण ना. तेणें सगळेच तशे चिमट्यान घेतले.

मदींच खड् खड् आवाज जालो आनी इमान हाल्लें. बैलांचो गाडो गडग्या फातरांवयल्यान चलतना खडखडटा तशें जालें. हांयें भंयान भायर पळयलें जाल्यार भायर सगळो धुंवर कसो. हीं दिसता कुपां. इमान कुपांतल्यान पासार जातालें.

म्हाजे कुशिचो मनीस उठलो. आरे, हेणें कमराचो पटो काडलो! पळयले भितर कांय जाणांनी पटे सोडलेले आनी ते फाटल्यान फुडल्यान वयताले. चड करून दादले. हांयें चत्रायेन हें पळयलें. हे वयता खंय? आनी थंय वचून करतात कितें? इल्लेंशें दार आसलें. एकलो भितर वयतकूच दार धांपतालें आनी भायर तांबडो दिवो पेट्टालो. दार उकतें जातकूच दिवो पालवतालो. इतल्यान म्हाज्या शेजारचो मनीस थंय वचून येयलो. हांयें ज्यूस्त पारखिलें, हो थंय मुतून येयला. कारण तेगेल्या पेंटाचेर दोन ओले थेंब अरसताले. म्हाका वचपाक जाय आसलें, पूण बसला त्याच इमानांत मूतप म्हाका पुटवलेंना. आनी सकयल कोणाच्या माथ्यार पडलें जाल्यार? तसोच सोंसून रावलों.

कान गुडूप जाल्ले. एकेच तरेचो विचित्र आवाज. म्हाका याद जाली. आमी न्हंयेंत न्हाता आसतना न्हंयेंतल्यान मिनाच्यो बाज्र्यो वयताल्यो. तेन्ना आमी उदकांत बुडी मारून बार्जींचो आवाज आयकताले. 'गुरू गुरू' असो एकेच तरेचो आवाज. विमानांतूय सामको तोच आवाज.

इतल्यान तें सुधेसारकें दिसपी सुंदरें एक व्हडली कास धुकलीत घेवन येयलें. आतां म्हाका समजलें, तेंकां मनशां वांटून दिल्लीं. तें आमच्या वांट्याक येयल्लें. आतां म्हटलें, हेणें कितें हाडलां तें पळोवया. जाल्यार काशेंतलें एक एक आयदन काडून वायणां कशीं तें वांट्टा. दर एकल्याक तें इचारून दितालें. म्हाजे पयलीं, शेजाऱ्यांची पाळी येयली. तेणें कितेंतरी सांगलें आनी एक आयदन घेतलें. म्हाका इचाल्लें, 'सर, व्हेज-नॉन्व्हेज?' हांयें म्हटलें, 'यस-यस'.

तेणें तींच उतरां परत म्हटलीं. म्हाजे इंग्लेशीन तें गोंदळ्ळें. तेणें म्हाका दुसरे तरेन इचाल्लें — 'सर, चिकण?' तें मात म्हाका समजलें. हांयें म्हटलें, 'यस, यस. चिकण.'

कोंबयेचे शागोतेक चिकण म्हणटात तें म्हाका खबर आसलें. कारण केन्नाय गोविंदभटाची बायल नातवाच्या – महेशाच्या तोंडाचो वास घेवन तेका इचारताली,

'रांडेच्या, ब्राह्मणाचा पोरगा मरे तूं? कोंबड्या शाकोती खावन आलास?'

त्या उतरार महेश म्हणटालो, 'नाय गे आजी, मी चिकण खाऊन आलोंय.' आनी हांस हांस हांसतालो. तेन्नाच्यान म्हाका चिकण खबर. आतां म्हळें, खावया चिकण. इमानांत आनी जेवण, तेंवूय चिकणाचें जेवण मेळटलें म्हण कोणें येवजिल्लें? इमानांत मेळटा तितलेंय फुकट म्हणपाचें म्हाका आतां समजलें.

'दी बाय' म्हण हांवें आयदनाक हात घातलो. तर हें सुंदरें कशेंच दिना न्हू!

'सर, प्लीज, प्लीज' आनी दुसऱ्या हातीन तेणें म्हाज्या मुखावयली फळी ओडून आडवी केली. तें जूस्त बारकेले तामरेतीयेदें मेज कशें जालें. तेणें तेजेर तें खावपाचें आयदन दवरलें. खरें म्हटल्यार हांयें तें पयलींच सोडून दवरपाचें. कारण हेरांनी जेवण येवच्याआदींच त्यो फळयो सोडून दवरलेल्यो. मागीर तेणें उदीक हाडून दिलें. उदकाचो पेलो कसलो? सामको हारशाभाशेन, पूण हारशाचो न्हू.

हांयें अदमास केलो. दनपार जाल्या. म्हणजे हें आतां दनपारचें जेवण. तशी भूक लागलेली. सकाळची पेज जिल्लेली.

इमानांत जेवप म्हटल्यार ती एक मजाच कशी. तसो हांव घराकडेन शेताच्या बांदार बसोन जेयलां. दोंगरार तळपार बसोन जेयलां. व्हड्यांत पसून जेयलां पूण असो वाऱ्यार वयल्यावयर केन्नाच जेवंक नासलों. हांयें त्या चौकोनी आयदनाक हात लायलो. उखलून पळयलें. सामकें ल्हव. हांव खातां तसले तांदळाचे देड भाकरेच्या वजनाइतलें आसतलें. आयदण इस्टीलचें. तेजेर बेगड मांडलेली. ती कडेक काडली.

पळय जाल्यार उंडीभर कालयिल्लें शीत. पावाचे दोन कुडके. व्हडल्या चण्यांचें तोणाक. मेजून तवश्याच्यो चार पातळ फोडी, टोमाटाच्यो दोन फोडी, कोबुचीं पानां, तीं शिजोवंकूच नासलीं. धंयाची एक वाटी. आनी एके वाटयेंत केळें मुड्डून करता तसलें शिकरण. साकर, मीठ, मिरयां पिठो, पेपर, शिंपीभर

लोणचें. आयदणांत एके प्लास्टीकचे पोतयेंत एक त्रिशुळाभाशेन आनी दोन सादीं कुलेरां. सामकीं भुरग्यांल्या खेळण्यांतलीं. प्लास्टीकचीं. एक व्हिराचो कुडको. हो व्हीर दाढयेंतलें शिरकल्लें मांस काडपाक आसतलो.

पूण कोंबयेचें चिकण खंय? हांयें शितान एक कुलेर भोंवडायलें जाल्यार शिताचे कडेक कोंबयेचो भाजलेलो एक आंगळायेदो कुडको. हांयें वास घेवन पळयलो. कोळशाचेर भाजूंना. बांदावयल्या देंवचाराक माल्लेलो कोंबो चुट्टांनी भाजून मागीर धा जाणांक वांट्टकूच इतलोच कुडको दर एकल्याच्या वांट्याक येतालो. हांयें एका धपक्यान कुडको तोंडांत वडयलो आनी मनांत म्हटलें, 'मार चिकण चिकण म्हण ह्या सुंदऱ्यान बोवाळ मात व्हडलो घातलो.' आतां तेंवूय खरें, इतल्या लोकांक चिकणां घालपाचीं जाल्यार कंपनीक बोडाक ओंस घालची पडटली.

चण्याचो रोस म्हटलें कसो जाला तो पळोवया. जाल्यार रूच कळचेआदींच तो सोंपलो. पूण चण्याचो रोस करचो तो विठायन. तेची सर ना. कालथिल्लें शीत वायटशें लागलेंना. सगळें सोंपयलें. उदीक पियेलों. उल्लेल्यो पुडयो काडल्यो आनी बोल्सांत घातल्यो. मागीर हातांत दोन किटल्यो घेवन सुंदरें परत येयलें.

'चाय? कॉफी?' तेणें म्हाका इचाल्लें.

हांयें म्हटलें, 'दोनूय नाका. एक कितेंय दी.' तेणें हांव कितें सांगतां तें सारकें आयकनासतनाच परत इचाल्लें, 'चाय? कॉफी?'

हांयें म्हटलें, 'हाड दी चाय.' ते सरशीं तेणें किटलेंतली च्याव म्हाज्या पेल्यांत ओतली. पळय जाल्यार खुटी च्या. बरें जालें. तसोच घोंट मारलो जाल्यार च्यायेंत साखरूच घालूंना. हरशीं विठायक जाल्यार बापायवयल्यान गाळ मारतलो आसलों. पूण हेंकां म्हटलें, सांगून वगीच खालतेपण भोगोवपाक नाका. बोवाळांत इसल्ल्या आसतलीं.

म्हाजी नदर कुशिच्या मनशाचेर गेली. जाल्यार तेणे दोन पुडयो सोडून च्यायेंत रकयल्या. हांयेंनूय म्हाज्यो पुडयो उसयल्यो जाल्यार एकेन साखरेचे दोन चौकोनी गडगडे जाल्यार दुसरेन दुदाचो सुकयिल्लो पिठो. असलो पिठो जनू सरकारी शाळेंत वयतालो तेन्ना तेंकां शाळेंत वांट्टाले आनी जनू तो सुंठिच्या पिठ्याभशेन सुकोच खातालो. पूण हांयें पिठो च्यायेंत रकयलो. हरशीं म्हाका खुटी च्याव आवडटा, पूण म्हटलें शेजारच्या मनशाक हांव अनाडी दिसपाक नाका. ते गडगडेय च्यायेंत घालून धवळ्ळे. ते बरे खिरले.

आतां म्हटलें, हें उश्टें काडपाक नाका? एक बरें: वयल्यावयर जेवपाचें जाल्ल्यान शेण काडपाचो वावर ना. नातर गोविंद भटागेर दर· खेप पडवेर जेयल्ल्यायेळार, पान काडून जातकूच शेण सारोवचें पडटालें. इतल्यान सायबा, तेंच सुंदरें तेच भाशेन उश्टीं आयदणां पुंजायत येयलें. हांयें मनांत म्हटलें, तुयें तुवालो दिलो. जेवण दिलें. इतलेमेरेन सगळें बरें, पूण गोरवां राखण्याचें उश्टें बाये तूं काडूं नाका. हांव पातकांत पडों नाका. पूण तेका सांगतलों कसों? आनी तें आयकुपाक रावलां खंय? गेलें आयदन घेवन.

मागीर फळी जाली रिती. हांयें ती आशिल्ली तशी दोडून तिचें मोल लावन दवरली. शेजारच्या मनशाची तशीच आसली. हांयें तेका कुरयेनूच ती दाखयली. तेन्ना तेच्या लक्षांत येयलें. 'यस. ठेंक्यू' म्हणून तेणें तोंडावयली मिरी मोडीनासतना म्हाजे उपकार मानले. शिकणार मनीस तो. आनीक कोणूय जाल्यार म्हणटलो आसलो, 'तुका कित्याक पडलां? तुजें तूं पळय.'

वयर मळबांत तर अजापांचो देखाव! भायर पळयल्यार इमान चलता काय कितें तेंच कळना. गाडी धांवतकूच कशीं झाडां पेडां फाटीं वयता, तशें कांय ना. वयर घोण वा किरकिरो कसो कितलोसोच वगत थीर रावता तशें इमान हवेंत थारलां अशें दिसतालें. सकयलें कांयच म्हटल्यार कांयच दिसनासलें. कुपांच्या वयर इमान आसलें. कुपां मात तरांतरांचीं. मदीं तणाचीं गुठलीं कशीं. मदींच सरयें कशें. मातयेच्यो-शिंपयांच्यो राशी कशो. खळेंभर कापूस फापडून दवरल्यार कशें दिसतलें? तशें.

तो वगत तिनसांजचो. सुर्या धारेकडेन वयपाचो येळ. सुर्याचीं किरणां त्या कुपांच्या कडांचेर पडलेलीं. तीं कुपां भांगराचीं कशीं दिसतालीं. तें पळोवन दोळ्यांची तानभूक न्हिवली. सर्ग बी म्हणटा तो आनीक येगळो कितें, होच आसतलो, अशें म्हाका दिसलें. पूण वयर फकत कुपां. कुपांच्योच ह्यो सगळ्यो करामती तोखेवपांत बरोच वगत गेलो. मागीर मायकांतल्यान कोण कितेंतरी उलयलो. तेसरशीं सगळे आपले कमराचे पटे घट करपाक लागले. इमान दिल्लीक पावलां असो हांयें अदमास केलो. इमानसुंदरें दर एकल्या कुशीक येवन पटो बांदला काय ना तेची खात्री करूंक लागलें. म्हाजेलागीं पावतकूच हांयें म्हटलें, 'बाय गो, हांयें तो मदीं सोडोवंकूच ना. तूं हुस्को करूं नाका.'

आतां इमान सकयल देंवपाक लागलें. सकयल नदर मार जाल्यार बिल्डींगांच्यो राशी. पळय जाल्यार तें एक व्हडलें गांव. हीच दिल्ली.

इतले म्हणसर गोंगों करून इमान सकयल देंवलें. आनी घडायंच करून धर्तरिक तेकलें. बैलांचो गाडो वयर उसळून घडायंच करून सकयल आदळटा तसो. परत एक फावट काळजांत कल्ल जालें. आनी मागीर इमान बस कशें चलपाक लागलें आनी एकीकडेन थारलें.

सगळ्यांनी कमराचे पटे सोडले. म्हाजो कसोच सुटना. सगळे उठले. हांव एकलोंच उरलों. पट्याचें कलयाद हेवटेन तेवटेन घुंवडायलें. तेका दिसता आपशींच चावी जाल्ली. कलयादाच्या कट्ट्याक हात लावन कुल्लेच्या कट्ट्याभाशेन तें उकतें केलें तेन्ना टक् करून चावी सुटली आनी हांव मेकळो जालों. हांयें वयली म्हाजी पोती काडली.

इतल्यान याद जाली, विठायन नाल्ल आनी पांच पानांचो विडो वाटेवयल्या देंवचाराक दवरपाक दिल्लो. वाटेर खंयच इमान थारलेंना. हांयें धरलेलें, वाटेर खंयूय ड्रायवर पिवपाक बी रावतले. बसिंचे ड्रायवर कशे मदीं मदीं बशी थारावन कुट्ट करून येतात तशे. तेन्ना नाल्ल इडो दवरतलों. आतां तर बद्द दिल्लीकूच पावलों. कितें करूं, नाका अशें येवजिता आसतनाच हांयें नाल्ल आनी इडो भायर काडलो आनी हांव बसलेलों त्या जाग्यार दवरलो. मनांतल्या मनांत देवाक सांगणें केलें आनी सकयल देंवपाक लोकांचे हारीन उबो रावलों.

दाराकडेन पाव जाल्यार तेंच इमानसुंदरें हात जोडून 'नमस्कार नमस्कार' करून पांयां पडटा. हांयें म्हटलें, 'बाय गो, सगळें तुयें केलां. लग्नकारी येजमान्याभशेन कितें आमकां पांयां पडटा?' तशें तें आनीक मातशें हांसलें. तोखणाय म्हण कोणाक नाका जाता?

हांगासर देंवपाखातीर अशीज पाज्ज लागलेली. इमानांतल्यान भायर सर जाल्यार कसलें शीं! पौंशांतल्या सांतेरीच्या काल्याक फांतोडेर पडटा तेचेपरस अदीक. कांबळ हाडून शाणेपण केलें. पाज्जेचीं सोंपणां देंवोन येयलों. जालें. इमान सोंपलें.

आतां खंय वयपाचें? बाकिचे लोक वयता तेंचेफाटल्यान गेलों. जाल्यार फाटल्यान एक सुंदरें 'सर सर' करीत धांवत येता. थारलों. जाल्यार हेणें पापणीन तो देंवचाराक दवरलेलो इडोनाल्ल परत हाडला. कितें करतलों? घेतलो आनी तेका म्हटलें, 'ठँक्यू!'

इतल्यान एक बस येयली आनी थारली. सगळे बसींत चडले. हांवूय चडलों. बसपाक जागो मेवळो ना. उबोच रावलों. आतां म्हटलें ही बस हॉटेलाकडेन

वयता जाल्यार बरीच जाली. टॅक्शी आनी नाका. तशी म्हाका वाट खबर आशिल्ली जाल्यार हांव चलोन वयपाचों. आसना कितलेंय पयस. पूण बस खळ्यांतल्या खळ्यांत भोंवून एकीकडेन थारली. देंवून भितर सरलों. एक व्हडलो माटोव कसो. दाबोळेचे भाशेनूच. सगळ्याक विजेच्या दिव्यांचो उजवाड!

आनी इतल्यान याद जाली. बडी. आतां ही बडी खंय सोदपाची? इमान उरलें खळ्यांत. हांयें हेर वांगड्यांकडेन पळयलें. ते सगळे थंयच गणयताले. म्हाजी तरी बडी, तेंच्यो व्हडल्यो व्हडल्यो बॅगो आसल्यो. हांगासरूय राशीनी धकलगाडयो आसल्यो. एकल्या एकल्यान एक एक रिती धकलगाडी हातीन घेतली. इतल्यान मुखार व्हडलो गिरणीचो पटो कसो घुंवपाक लागलो. त्या पट्यावयल्यान व्हडल्यो बॅगो, पोतयो येवपाक लागल्यो. जो तो आपली पोती वळखून उखलतालो आनी धकलगाडयेचेर घालून व्हरतालो. म्हाका मजाच दिसली. हांव तें पळयत रावलों आनी इतल्यान त्या पट्यार बसोन म्हाजी बडी लोळत लोळत येयली. आवयस्स! हांयें बडी उखल्ली आनी ओंठांक तेंकोवन तिचो उमांव घेतलो.

आतां म्हटलें, येळ काडून उपेग ना. हॉटेलांत पावपाक जाय. मुखार सरलों. जाल्यार हांगासरूय नाबींचे मांड. एका मांडार म्हाज्या तिकेटावयली खुणा. हांयें बोल्सांतल्यान कागदाचेर बरयलेलो हॉटेलाचो पत्तो भायर काडलो.

'क्याय?' नाबीवयल्या मनशान इचाल्लें.

हांयें तेका कागद दाखयलें.

'टॅक्शी पकडो' तेणें दुसऱ्या मांडाकडेन बोट दाखयलें. ते नाबीर पत्तो दाखयलो. तेणें आपलें कागद बरयलें.

'देडसो रुपया.'

'देडशें रुपया?'

तेणें पयशांखातीर हात मुखार केलो.

'उणें कांय ना?' हांयें वांटपणां केलीं.

'देडसो.' तो आपल्या उतरार थीर आसलो. कितें करतलों? देडशें देडशें. दिवचे पडले ना? आनी वयल्यान पयलीं पैशे. फारीक केले. तेणें कागद दिलें. हरशीं सर्पंच्यान सांगून दवरलेलें, वाटेक जो खर्च जाता तो सगळो तुकां दिल्लीक रासपती फारीक करतलो. बिलां सांबाळून दवर. पूण पैशे जावं सरकाराचे जावं म्हाजे. गरजेभायर मोडप म्हणजे जिवाक लागता.

भायल्या दाराकडेन लोकांच्यो धिट्टी. हातांत तकटे घेवन कांय जाण उबे आसले. त्या तकट्यांचेर कितें कितें बरयिल्लें. कांय जाण 'हॉटेल, हॉटेल' म्हण इचारताले. कांय जाण 'टॅक्शी टॅक्शी' म्हण इचारताले. मुखार एके हारीन हळडुव्या कोराच्यो धाकल्यो गाडयो उब्यो आसल्यो. ह्योच टॅक्शी. हांव थंय पावनाबराबर गाडयांचे ड्रायवर मुखार येयले.

'जी साब. आओ.' एकल्यान म्हाज्या हातींतलें कागद घेतलें आनी म्हाका आपणाले गाडयेंत बसयलो. हांव पोती, कांबळ, बडी सांबाळून घेवन बसलों. गाडी सुरू जाली. रोकडीच एका पुलिसाच्या गाड्यामुखार थारली:

'नाम क्या?' त्या पुलीसान इचाल्लें. म्हाका समजलें. हांयें म्हटलें, 'नाम गुणाजी खेडेकार.'

'जी साब' पुलीसान म्हटलें आनी वचपाक सांगलें.

इमानांत म्हाका तीं सुंदऱ्यां 'सर सर' म्हणटालीं. हांगासर जो तो 'साब साब' म्हणटालो.

भायर पळयलेभितर दिल्ली म्हणटा ती वेगळीच भानगड कशी दिसताली. लांबचे लांब रस्ते. एके एके शेताचे शिरकोणेभाशेन: मार्गांचे कुशीक खांबे आनी तेंचेर सुपायेदे विजेचे दिवे. कुशीक व्हडलीं व्हडलीं घरां. दत्तूशणैलें चार चौक्यांचें घर कांयच न्हू.

'साब, इधर बडा लोक रावता है', ड्रायवरान म्हाका म्हटलें. तेचें म्हणणें सारकें आसलें. मारगाचे दोशींवशीं बरीं चकचकीत घरां आसलीं. सगळ्या घरांमुखार दुरगां आसलीं. दर एका घराक भायर आखाणो आसलो. दर घराक नंबर आनी नांव आसलें.

गाडी थांबली आनी दरवट्यांतल्यान बद्द भितर सरली. सामकी दारांत उबी. 'साब, ये आपका हॉटेल हय', तेणें फाटलें दार उकतें केलें. हांव देंवलों.

'सलाम साब!' ड्रायवर माथें खरपीत उबो रावलो. हांयें तेची नुरा पारखिली. जोर रडटा पेजेक! हांयें मनांत म्हटलें, गाडयेंत बसचे आदीं पापया तुजे पैशे फारीक केल्यात मरे. एके गांठीन इतले पैशे हांयें केन्नाच म्होडूंना. तितल्या पैशांनी हांव म्हाजो आख्खो गोंय देस भोंवन येतलों आसलों. आनी तूं ड्रायवर. हांव गोरवां राखणो. तूं म्हाजेपरस व्हडलो. खरें म्हटल्यार तुयें कितेंय दिवपाचें म्हाका. निमाणें दोन रुपये तेच्या हातीर तेंकयले. तेणें ते घेवन म्हाका सलाम केलो.

इंदिया इंटारनासनाल सेंटार म्हणटा तें एक रावपाचें हॉटेल. हॉटेलामुखार कितलीशीच मेकळी सुवात. मुखारूच फुलांचें पोरसूं.

गाडी थांबल्या मात, एकलो झकपक न्हेसलेलो मनीस मुखार येयलो.

'आप गुनाजी खेदेकर हय ?'

हांयें म्हटलें, 'हय, हय.' तेबराबर तेका सुमाराभायली खोस जाली. तो सगळोच म्हाजेफाटल्यान फुडल्यान नाचपाक लागलो. तेणें म्हाज्या हातींतली पोती घेतली. बडी घेवपाक तो अनमनलो. तो समजलो ती म्हाका चलपाक लागता.

'आ ये साब', तेणें म्हाका मुखार व्हेलो. हारशाचें दार उक्तें केलें. लांबचे लांब नाब आसली. थंय बायलो आनी दादले आसले. आमी भितर सरनाफुडें तेणीं तोंडां हांसकुरीं केलीं.

'मेरा नाम' अशें म्हणून तेणें मान बागोवन आपलें नांव सांगलें. तें म्हाज्या नांवापरस चौपटीन लांब आसलें. तितूंतलें 'येंकटेश' इतलेंच म्हाका याद उरलें. तो म्हाजे सारकोच काळो आसलो.

मागीर समजलें, रासपतीन म्हाजी उठबस करपाक तेका नेमियार केल्लो. नाबीवयले एके बायलेन, इमान सुंदऱ्याभाशेनूच दिसताली, तिणें एक व्हडलो कादेर्न नाबीर दवरून उकतो केलो. देवळांतलो दसऱ्याचे पावणेचो हिशोब बरयता तेचेपरस तो दुपेटीन आसलो. येंकटेशान कादेर्नांतल्या खणांनी कितें कितें बरयलें. आनी निमाण्या खणांत म्हाका सय करपाक सांगलें.

हांयें आखाणो हालोवन सय करना म्हण सांगलें. तेबरोबर नाबीवयल्या चेडवान निळे शायेच्या ओल्या कपड्यांचें एक फोलीण उकतें करून नाबीर दवरलें आनी म्हाज्या दाव्या हातीचो आखाणो तेचेर दामलो.

हांयें म्हटलें, 'पापणी, हांव सांगतां कितें आनी तूं करता कितें?' तुमी सांगता थंय आखाणे लावपाक तुमी कितें म्हागेलीं सर्पंच्यां?' म्हाज्या उतरांनी तें गोंदळ्ळें.

'कितें बरयलां?' हांयें कुरयेनूच येंकटेशाक इचाल्लें. तेबरोबर येंकटेशान सगळे खण वाचून दाखयले. सगळें म्हाका कळ्ळें ना. पूण तितून म्हाजें नांव, गांव, पत्तो, पिराय बरयलेलीं. म्हाका येंकटेशाची तोखणाय दिसली. पोरान म्हाका विचारीनासताना सगळें जुस्ताजूस्त बरयलेलें. म्हाका दुबाव येयलो. सर्पंच्यान बरोवन घातलेलीं कागदां हेणें वाचल्यां आसपाक जाय. म्हाका येंकटेश

पातयेवपाचो मनीस दिसलो. म्हाजेसारको काळोय आशिल्लो. हांयें शाय लायलेलो आखाणो उखल्लो आनी निमाण्या खणांत तिबो कसो लांयलो. म्हाज्या आंगठ्याक पळोवन दाबीवयली बायल मुमुर्ख्यांनी हांसली.

हांयें म्हटलें, 'हांसता कितें? आखाण्याची सर तुगेले सयेक ना.' पूण तिका तेंवूय कळ्ळें ना. तेणें कादेर्न धांपलो आनी फाटले वणटीवयल्या खणांतली एक चायी दिली. ती एका तांब्याच्या तकट्याक गुंथलेली. इतल्यान एक मनीस येयलो. तेणें ती उबारली. येंकटेशाकडेन आशिल्ली म्हाजी पोती घेतली आनी चलपाक लागलों. येंकटेश तेज्याफाटल्यान आनी हांव येंकटेशाफाटल्यान. भितर सरल्यार भोंवरी कशी. लांबचे लांब. सामकी देवळाची सर्वळी. दोशींवशीं कुडी. कुडींक पितुळचे नंबर. सगळ्या कुडिंचीं दारां धांपलेलीं. हांगासर इतले बेगीन न्हिदता म्हटल्यार अजाप.

एका दारामुखार आमी थारले. इतले मदीं त्या मनशाचें नांव वेटर म्हण म्हाका समजलें. वेटरान वणटीचे फळयेवयलो एक बटण दामलो. फळयेर धाएंक बटण आसले. बटण दामून तो सांगणें करपाक उबो रावता तसो रावलो. आनी तेसरशीं झप्प् करून मुखावयले दाराचे फळयेक उबी चीर गेली आनी फळ्याचे दोन कुडके वणटींत रिगले. भितर एक इल्लेशी कूड कशी. पयलीं येंकटेश भितर सरलो. मागीर हांव, निमाणें वेटर. भितर सरल्या मात, वणटींत रिगलेलीं फळीं आपशींच भायर येवन धांपलीं. वेटरान परत भितल्ले फळयेवयलो बटण दामलो. तेसरशीं ती धांपलेली कूड वयर वयता कशी दिसली. इमानाभशेन. रोकडीच थांबली. दार आपशींच उकतें जालें. आमी बेगीबेगीन देंवले. दार बंद जालें खरें पूण म्हाजी बडी आडखळ्ळी दाराचे दाढयेक. सामकें चिरता थंय पाचारें घालता तशें. हांव ओडटां. कशीच सुटना. निमाणें वेटरान काडली ओडून.

आतां पावले दुसरे सर्वळेंत. थंय एका दारामुखार थारले. वेटरान हातींतली चायी दाराच्या बुराकांत घातली. कुडीचेर तांब्याच्या अक्षरांनी आसलो तोच नंबर चावयेच्या तकट्याचेर आसलो.

भितर सर जाल्यार सामकी झेलाची कूड. पूण कुडींतलो थाट कितें? दोन खाटी. खाटींचेर गादयो. चादरी, कांबळी, उशीं, उशांक पोतयो. मात म्हेळ ना, कसलो दाग ना, चितो ना. बारा दिसांचें सूतक सोंपतकच घरांतली कापडफाळी कशी उमळून निवळ करून दवरतात तशी. खाटीकुशीक दोन कदेलां. तिंवूय

मोव गुबगुबीत. एक आरमार. कपडे बी सगळे थंय लावप. सरयो, दोरयो वा दाणयो बी ना. एक मेज. मेजाचेर बटणाचो दिवो. हांयें सगळें पळोवन घेतलें.

'साब, च्याय?' वेटरान इचाल्लें.

हांयें म्हटलें, 'हय. दोन गलास लाव.' सलाम करून वेटर गेलो.

आतां येंकटेश म्हाका तरातरांच्यो चत्रायो दिवपाक लागलो. तो आपले भाशेन उलयता आनी हांव म्हाजेभाशेन. निमाणी बरीचशी समजावणी हांयें कुरवांनीच करून घेतली. तेणें म्हायती दिली ती अशी—

ह्या हॉटेलांत हांयें रावपाचें. जेवण हॉटेलांतूच मेयटलें. जाय तें खावपाचें. पैशे फारीक करपाचे नात. शेवा करपाक वेटर आसा. तेका आपोवपाचो जाल्यार अमूकच एक बटण दामपाचो. गरज पडल्यार फोन करपाचो. तें मात म्हाका केन्ना कितें तें कळ्ळें ना. आपूण भायरूच आसतलों अशें येंकटेशान सांगलें. तेका खंय आनीकूय कांय जाणांचें उठबस करपाचें काम सोंपयलेलें.

येंकटेशान फायच्या कामाविशीं सांगलें तें अशें—

फाल्यां खंय सकाळच्या आदेसाक येसाय. कसली काय म्हटल्यार रासपती ॲवाड कसो घेवपाचो तेची येसाय. मागीर सांजचो कार्यक्रम. हांयें म्हटलें, बरें आसा. फायचें फाल्यां. म्हाका सलाम करून येंकटेश गेलो. हांयें म्हटलें, च्याव घेवन वच. तर तो तसोच गेलो. दार धांपलें.

आतां ते बंद कुडींत हांव एकलोंच. चुरचुरीत मुतूंक जाल्लें. पूण खंय वयतलों? पळय जाल्यार कुडीक आनीक एक दार आसा. मागीलदार दिसता. उगडलें. जाल्यार ती आनीक एक कूड. ते कुडींत नळांच्यो कितल्यो तरी तोटयो. सगळ्यो इस्टीलच्यो. हांयें एक घुंवडावन पळयली. थंड झेल उदक! पूण एके तोटयेंत हून उदीक येयलें. तशेंच आनीक एके तोटयेंत. हें म्हटलें बरें जालें. उदकाचो हांडो हेणीं आदींच तापोवन दवरला. वणटीक खुंटयो. खुंटयांचेर उमळलेले तुवाले. कपडे सुकत घालपाक सरयांच्या दाणयांचें तिकटें. वणटीक विजेचे दिवे. ते पेटोवपाचे बटण. सगळ्याक तिजुले. थंयच पायखिळो. म्हणजे हेच कुडींत सगळें करपाचें. उदीक घालतकूच सगळें निवळ. सकाळींफुडें व्हाळार बी वचपाची कटकट ना. नाय म्हटल्यार म्हाका तो एक हुस्कोच जाल्लो. मात एक — पायखिळ्याचे तिजुले इतले चकचकीत, तेंचेर हळशीक करपाक जिवार येवपाचें. थंयच एक लांबचे लांब कोळमी आसली. सामको पनेळ कसो. तेचे वयर

नळाच्यो तोटयो. पनेळाक पोंदाक गुड्डी. म्हणजे उदीक पनेळांत घेवपाचें. आनी मागीर गुड्डी काडून सोडपाचें. भितर व्हाळांत न्हाता तशें न्हावपाक बी बरें.

जीव सू जालो. इतल्यान जालो आवाज ट्रींग ट्रींग. परत तोच. भायर यो जाल्यार भायर कोणतरी दार धाडायता. बेगीबेगीन दाराची मूठ पिंवळ्ळी आनी दार उकतें केलें जाल्यार वेटर हातांत कितेंतरी घेवन येयला. पळय जाल्यार चिनी मातयेची एक धवीफुल्ल कीटली. तितूंत खुटी च्याव. दूद येगळें. रितो कप आनी बशी. साखरेचे गडगडे. तें दवरून तो वगी.

हांयें म्हटलें, 'ही च्याव कोण करतलो? हें सगळें हांगा घेवन येवचेपरस म्हाका रांदनीपोल्ल दाखयिल्लें जाल्यार हांवूच म्हाका जाय ती च्याव करून घेतलों आसलों.' वेटराक म्हाजीं उतरां लागलीं. तो मोन्यांनी च्याव करपाक लागलो. खुटें अर्क तेणें कपांत रकयलें. साखरेचे दोन गडगडे अर्कांत वडयले. दूद घालपाक सोदी. हांयें म्हटलें, नाका. म्हाका खुटीच जाय. शीं कसलें पडलां. घोंट मारलो. मातशी कोडसार लागली. साखरेचे आनीक दोन गडगडे वडोवन खिरयली तेन्ना सारकी जाली.

हांयें वेटराक भितर कोळमी कित्याक दवरल्या तें इचारलें. तेणें सांगलें, 'न्हानेको' म्हणजे न्हावपाक. म्हाका हरशीं आदींच कळ्ळेलें. बेस्टें तेका इचारून लज करून घेतली अशें म्हाका जालें. वेटरान कागदाचो एक कुडको आनी पेन मुखार केलें आनी तेचेर सय करपाक सांगपाक लागलो. म्हाजो दुबाव पळोवन तेणें म्हटलें, 'बील, बील'.

म्हाका समजलें. आतां म्हटलें हरकत ना. पूण ह्या वेटरामुखार आखाणो मारप म्हाका खालतेपणाचें दिसलें. कितलोय जाल्यार हो म्हाजो शेवक कसो. हांयें पेन घेतलें. तेणें दाखयलेले ते वळीर काडली एक तिरपी बडी, मागीर काडलें कोयतूय आनी मागीर काडली रिस्कांची कांबळ. वेटराक दिसलें, हांयें सयीच केल्या. तेणें ती पळयलीसुद्धां ना. सलाम ठोकून तो गेलो. आतां म्हटलें, सगळ्याक अशीच यादीन एकेच तरेची खुणा करप.

मातसों आड पडलों. इमानान भोंवून सुद्धां पुरो जाता म्हण खबर नासलें. झापडी कशी लागली. जाग येयली ती एका इचित्र आवाजान. दारावयले कापिणीसारकोच आवाज आसलो. पूण तो न्हू. पळय जाल्यार मेजार वायर जोडलेलें एक खेळणें कशें आसा. तितूंतल्यान आवाज येत रावलो आनी थोड्या वेळान थांबलो. जावं! सू जालें. तर परत सुरू. मागीर थांबलो. परत सगळों

काचाबूल जालों. कांय वेळान येंकटेश येयलो. तेका सांगतालों म्हण आसलों. तर तेणेंच सांगलें, 'फोन हय', आनी तेचो एक कुडको उखलून कानाकडेन धरलो. भितर तोंड घालून कशें उलोवपाचें तें सांगलें. हावें समजलें म्हण मान हालयली. पूण तेच घटकेक थारायलें – त्या फोणाचे वाटेक वचप ना. 'साब, खाने का टैम हुआ', जेवणाचो वगत जालो म्हण तो सांगतालो. जेवण भितर कुडींत धाडूंक लावं काय भायर जेवणाचे सुवातेर वयता म्हण तो इचारतालो. इतली बरी कूड आसा हांगा आनी म्हटलें उश्टें नाका.

हांव येंकटेशाबरोबर भायर सरलों. बरीच भूक लागलेली. दनपारां इमानान चिकणाच्या नांवान पोटाची सगळी फटवणूकच जाल्ली. दाराक चावी करून आमी भायर सल्ले. त्या रावपाच्या हॉटेलांतूच जेवणाचें एक हॉटेल आसलें. आमी थंय गेले. थंय एका मेजा भोंवतणीं चार-पांच, पांच-स मनीस बसलेले. इतलो लोक पूण मात बोवाळ ना. ल्हवू ल्हवू चोरयां उलयिल्लेभाशेन उलयताले. आमी एका मेजाकुशीक बसले. इतल्यान फेर्राद मुस्तायकी घातलेलो एक मनीस येवन उबो रावलो. तर हेचेंय नांव वेटर. मागीर समजलें, वेटर म्हणजे हॉटेलांत काम करपी. हरशीं तेंची नांवां येगळीं. म्हाका थंय बसोवन येंकटेश उठलो. हांयें म्हटलें, 'जेय मरे.'

तो फाटींफुडें जालो. पयलीं म्हाका दिसलें, म्हाज्यासारक्या राखण्यावांगडा जेवपाक तेका कमीपण भोगता. पूण ना. घराकडेन तेका बायलभुरगीं जेवपाक रावतलीं आसपाक जाय. तो सलाम करीत फाटल्या पावलान गेलो.

'क्या लावूं साब?' शिगम्याच्या मेळांत घालता तसली उंचउबार तोपी तेणें घातलेली.

'कितें आसा तें हाड. भूक लागल्या.' तेणें मेजावयलें पुस्तक काडलें आनी म्हाजेकडेन दिलें. हांयें म्हटलें,

'बाबा रे, हांव येयलां जेवपाक. पुस्तकां वाचपाक न्हू. आनी म्हाका वाचपाकूय येयना.'

'क्या लावूं? चिकण, बिर्याणी?' तेणें आनीक कितें कितें म्हटलें. तेबराबर हांयें म्हटलें, 'चिकण.'

'कौन्सा चिकण?'

'कोंबयेका चिकण.' तोवूय गोंदळ्ळो आनी तेणें म्हाकाय गोंदळांत वडयलो. तेणें म्हाका आनीक कितें कितें हाडूं काय म्हण इचाल्लें. हांव हय हय म्हणत

रावलों. म्हटलें, हाडटा तें हाडूंनी. खावपाचें पळोवया मागीर.

कितलो वगत जालो. वेटराचो पत्तोच ना.

जाल्यार बाबा एकदांचो येयलो. हाडलेलें तें मेजार दवरलें. आरे! हें कितें? कांद्याचीं, टॉमाटाचीं मुळ्यांचीं बरीं चक्रां केल्यां, तीं बशेंत बरीं मांडून दवरल्यां. कुशीक हरवो कोबी किसोवन दवरला. म्हणजे हरव्या खाणाची बशी. ती दवरून तो गेलो कितलोसोच वेळ पत्तो ना.

कितें करतलो? एक एक फोड काडून बैलाभाशेन चाबडायत रावलों. खणून काडलेल्या चिरक्यापरस त्या मुळ्याची रूच मात येगळीच लागली.

मागीर मात बाबा वेटरान जेवण हाडलें तें सामकें भाटकार पाडूंक वयताना तेंकां घरसून वजेंभर जेवण हाडून दितात तितलें.

चिकण म्हटल्यार चिकणाचे मांसाचेच कुडके बरे तळसून शाकोती केल्ली. बरी तांबडी भडंग. चिकणाक लावपाक बऱ्यो गंवाच्यो पोवल्यो कशा कुरकुरीत रोटयो. तळशिल्लें शीत. तांदूळ बारीक बरो. तितूंत मांसाचे बारीक बारीक कुडके. तेका सुरबूस वास येतालो. शीत, धंय पापड, लोणचीं.

हो म्हटलें, भड्डो बरो आसा. बाकिचे खाता जेयता ते कोण कोणाक पळयनासले. आपले आपूण कशे. खायत रावलों. मनांत म्हटलें, नशीब जाँय! नाल्यार गोरवां राखण्याक आनी असलें जेवण? सगळें पुसून जेयलों. सगळें लोणचें मात खावपाक जालें ना. धेंकर मात दिता, इतल्यान वेटर बशी घेवन येयलो. बशेंत एक धवी लादी आसली. जिबेक लावन पळय जाल्यार शिरखंडापरस गोड. आयस्क्रीम खंय तें. बरें लागलें. कांतू जाल्यार मिटक्यो मारून खातलो आसलो. मागीर वेटरान एका वाडग्यात हून उदीक हाडलें. आनी तितूंत लिंबाच्यो चार फोडी. आतां म्हटलें, हें जिरोवणेक दिसता. फोडी उदकांत पिळ्ळ्यो आनी तें वाटगोभर उदीक पियलों.

आतां मात सामकें पोट भरलें जाल्यार वेटर आनीक एक बशी घेवन येयलो. तितूंत बडीशेप आनी दांत किसोवपाचे व्हीर. दुसरें एक बारीक पुस्तक हाडून वेटरान हातींत दिलें. हांयें म्हटलें,

'सायबा, म्हाका वाचूंक येयना रे!' तर तो म्हणपाक लागलो,

'साब, बील.'

दोन पानांचें तें पुस्तक उसय जाल्यार भितर व्हदळचे भशेन बील. हांयें तेचेकडलें पेन घेतलें आनी बिलाचेर केल्यो खुणा. तिरपी बडी, कोयतूल आनी



रिस्काद कांबळ. वेटर खुशी जालो. म्हाका तो भुरगो मानवलो. चेडो भुरगो आसून तेणें मात वाजेनासताना म्हाका वाडपाचें काम केलें. हांयें बोल्सांत हात घातलो. दोन रुपया? म्हटलें, दिल्लीक दोन रुपयांनी कितें जाता? पांच रुपयांची नोट काडून तेच्या बोल्सांत घातली. तो इतलो खुशी जालो, तेणें म्हाका कसल्या कास्ताचो सलाम मारचो!

तसोच येयल्लो ते वाटेन परत कुडीकडेन गेलो. चायेच्या तकट्यावयलो आनी कुडीवयलो नंबर पळयलो. दार उगडलें. शीं पडलेलें तें सोंसपाचें न्हू. काल्याच्या दिसांनी पडटा तेका आनी वाळपयच्या शियाकूय लागपाचें न्हू. एक तेंची आनी एक म्हाजी अश्यो दोनूय कांबळी पांयापासून माथ्यावयर घेवन गुठली करून न्हिदलों.

दुसऱ्या दिसा जाग येयली खरी, पूण सकाळ जाली काय कितें तें कळ्ळें ना. कोंब्याची जाग ना. जनेलाकुशीचो पड्डो कडेक काड जाल्यार भायर उजवाड. पूण सुर्याचीं किरणां नात.

सकाळींफुडें म्हाका कितेंशें येवजून येयलें. केन्नाय मेल्ल्या जाणटेल्यांचो उगडास येयल्यार जातालें तशें. तसोच उठलों. वालो न्हेसलों, तेचेर तुवालो बांदलो. खोमसाचेर जाकीट चडयलें. खांदार कांबळ वडयली. पांयांत घातल्यो व्हाणो आनी हातीन बडी आनी पोती घेवन भायर सरलों. ती लिफ्ट बी नाका. तसोच सोंपणा देंवन सकयल येयलों.

सकयल यो जाल्यार नाबीर कोण एक ना. येंकटेश मात एके कदेलीर बसोन झेमेता. रातभर हो असोच हांगा कुडकुडत बसला काय? तेची आनी म्हटलें न्हीद खळपाक नाका. तसोच ल्हवू पावलांनी भायर सरलों. हांगा थंय कोण कोण बोवाळटाले. हांव बद्द मार्गार येयलों. बारीकमोट्यो गाडयो हेवटेन तेवटेन वयताल्यो. तीन चक्रांची एक गाडी म्हाजेमुखार थारली. रिक्शागाडी. हांव बसलों. चलोवप्यान आंगभर चादर कांबुरलेली. फकत नाक दोळे उकते. सगळें तोंड मफलरान बंद केल्लें. शीं तितलें पडलेलें खरें.

'किधर जाना हय बाबुजी?'

'गांधी जाना हय', हांयें सांगलें.

'कौन गांधी? इंदिरा गांधी, राजीव गांधी या संजय गांधी?' तेणें इचारलें.

हांयें म्हटलें, 'नाय, गांधीबाबा.'

'म्हात्मा गांधी?'

'हय हय. म्हात्मा गांधी.'

'राजघाट समाधी?'

'समाधी जानेका.' हांव रिक्शाच्या दांड्याक धरून घट बसलों. सगळ्याक धुंवटी पडलेली. लागीं पावलेबगर मनशाक मनीस दिश्टी पडनासलो.

दिल्ली म्हणटात तो सपाट वांठार. दोंगर बी ना. शेतांय ना. मात व्हडलीं पांचवींचार मळां. लांबचे लांब. पूण पळयिल्ले भितर येद्या व्हडल्या मळार एक्कूय गोरू मात खंय दिसलें ना. चरोव आसा आनी गोरवां ना म्हटल्यार अजापूच.

बऱ्या वेळान राजघाट म्हणटा थंय पावले. रिक्शाकारान चडूच पयशे घेतले. म्हटलें, भोगूं! बऱ्या कामांखातीर खर्च जाल्यार कांय नजो.

राजघाट म्हणटा ती एक वणण्या-वणण्याची सुवात. सगळ्याक पांचवेंचार तण पूण मजा म्हटल्यार हांगासरूय एक्कूय गोरू चरनासलें. हो राजघाट यमुना म्हणटा ते न्हंयेचे देगेर आसा. अश्टमीची जात्रा जाता तें नार्वें बी कशें न्हंयचे देगेर आसा तसो हो राजघाट. मार्गावयल्यान राजघाटावयले समाधीकडेन वचपाक लांबचेलांब एक विस्कळ वाट लागता, मंगेशीच्या देवळांत वचपाक लागता तशी. वाटेर धव्या आनी गुलाबी सदाफुलींचे माजे. रचून दवरिल्ले गुळगुळीत गडगे फातर. बैलांक चेंचपाक वापरतात तसले फांतर.

समाधीकडेन वयतना पयलीं लागता दरवंटो. दरवंटो व्हडल्या पाशाणी फातरींचो. दरवट्याकडेन पावतकूच आपशींच पांयांच्यो व्हाणो काडीन दिसता. कारण सगळें वातावरण देवळांतल्याभशेन. भितर पावल घाल जाल्यार कानार उतरां पडलीं, 'रगुपती रागव राजाराम, पतीत पावन शीताराम.' गांधीबाबालें भजन चालू आशिल्लें. भजन गावपी पंगड एकीकडेन बसून शांतपणान गायतालो. सत्यनारायणाचे पुजेक व्हडलो कर्णो लावन बोबो मारून भजन करता तेचेपरस हें भजन सामकें येगळें. आयकन दिसतालें. खूब लोक आसले. थोडे देवळांत प्रसाद लावन वर्गी बसतात तशे बसलेले. सगळ्याक शांतताय.

समाधी म्हटल्यार एक वणणो, वयल्यान पोखरला. काळंगाचेर मदीं सुरी मारून मदलो चौकोणी कपो कसो कोंचून काडटा, तसो. चारूय वटेनची सुवात फातरींनी बांदून काडल्या. देड मनीस उंचाय जायत. मदलें सरयें कशें. सरयांत धाएक गुबगुबीत पांचवीचार झाडां. तितूंत चार धव्या चाफ्याचीं, दोन असोकाचीं आनी हेर अनवळखी. वणटीकूच व्हडलीं कुरकुटां. तितूंत मनशांनी वावरू येता.

थंयच मदेकाक समाधी. धोंपरभर उंचायेची. सगळी तिजुल्यांची. पालखेमुकार जळटा तसो एक कवदो थंय भगभगत आसलो. समाधिचेर सगळ्याक फुलां दाळलेलीं, रांगोळेभाशेन. कडेवयल्यान फुलांच्यो माळो लांबयलेल्यो. येवपी लोक समाधीचेर फुलां ओंपताले आनी पांयां पडटाले. हांयें फाटफुडो पळयलोना. पोतयेंतलो नाल्ल काडलो. पांच पानांचो इडो घेतलो आनी समाधिचेर दवल्लो. हांयें धोंपरां थंयच धतरिक तेंकोवन दिमी माल्ली आनी दोळे मेटून गांधीबाबाक होरावणी घातली.

कितें अजाप! दोळे मेटीना बराबर वालको न्हेसलेलें, हातीन बडी घेतलेलें,




कांतूच्या पुस्तकांतलें गांधीबाबाचें चित्र, म्हूर्त जावन म्हाज्या दोळ्यांसामखार उबें जालें. हांयें म्हटलें, 'म्हाज्या म्हापुरसा, तुजो वालको आनी बडी पळोवन तूं म्हाका सदांच म्हाजे जातचो दिसला. तुयें बडयेन सगळो देस राखलो. हांव सादो मनीस. हांयें म्हाजे बडयेन गोरवांक राखलीं. आयज हांव तुज्या पांयांकडेन येयलां. म्हाका राख, म्हाज्या भुरग्याबाळांक राख. गोरवां-वासरांक राख. सगळ्यांक हातीपांयांक राखण दी.'

म्हाका जिवाक बरें दिसलें. पुरसाक वाडी दाखोवन समादान भोगतां तशें जालें. दोळे जाले झरी. दोळे उकते करून वयर पळय जाल्यार कोण ? येंकटेश ! शिंयांतूय घामाघूम जाला.

'साब.'

‘कितें जालें?’

‘आप गायब हुआ, हमको डर लगा, हम पिशे दौडा. हमको बतानेका.’ ताणें आपलेपरीन सांगलें. म्हाजें चुकलेंच तें. तेका सांगून हांव भायर सरपाचों. तेची म्हण चूक ना. म्हाजी उठबस करपाक तेका दवरला. आनी हांव परकी. कितेंय वायट बरें जाल्यार तेचेर येवपाचें. रासपती तेका इचारपाचो. हांयें मनांत म्हटलें, म्हाजी बुद्द धोंपरांत म्हणटा ती गजाल खरी.

‘गलती हुआ. बताके जानेका.’ हांयें खालतेपणान म्हटलें.

‘हां.’ तो हांसलो. म्हाज्या फाटल्यान धांवपाक तेका कश्ट पडलेले तेचेपरस हांव तेका सांपडलों हेची तेका चड खोशी जाल्ली. हांव तेचे फाटोफाट गेलों. तो धाकली गाडी घेवन येयल्लो. तेणें म्हाका गाडयेन फाटल्या शिटार बसयलो आनी आपूण ड्रायवराचे कुशीक बसलो. गाडी सुरू जाली.

‘साब, ये सरकार की गाडी आप के वास्ते हय. रिक्शा में नहीं जानेका.’

म्हाका खंय खबर! पयलीं कळलेलें जाल्यार रिक्शाखातीर इतले पैशे कित्याक खर्चितलों आसलों?

आमी हॉटेलाचेर येयले. हांव कुडींत गेलों. कानाक पिंवळ घातलो. सांगले बगर भायर सरोन वचप ना.

येसायेच्या निमतान बाकिच्या राखण्यांची वळख जाली. तेवूय म्हाज्या सारकेच पयस सावन येयलेले. तेंगेल्या सर्पंच्यान तेंगेलीं पत्रां अशींच बरोवन धाडलेलीं. हांयें तेंचेकडेन वळख करून घेतली. तेणीय घेतली. दर एकल्याची एक एक भास. हेचें उतर तेका कळना. तरीसुद्धां एकामेकाच्यो बऱ्योचश्यो गजाली आमी समजोन घेतल्यो.

चपट्या नाकाचो, बाबऱ्या ओंठांचो कोटा. तो केरळ म्हणटा थंयच्या देसांतल्यान येयल्लो. कातीन काळोच. तेचें म्हणणें, कोटा म्हणटा ते सगळ्यान पयले मनीस. तेंचे उपरांत मागीर आमी सगळे. तेका आपले जातिचो खूब अभिमान! पूण तो खूब खंतीय आसलो. कारण देसांत तेचे जातिचे लोक खंय दिसानदीस उणे जाताले.

बिहार म्हणटा थंय छोटा नागपूर म्हण गांव आसा. त्या गांवांतल्यान येयल्ल्या राखण्याचें नांव उरांव. होवूय आमचेवरी काळो आसलो. उंचायेन मध्यम. नाक

ल्हान आनी बसकें. तेची मूळ भास कुरूख. पूण तो आमकां समजता तशे भाशेन उलयतालो. तो गोरवां राखतालो आनी शेतूय क़सतालो.

तेणें पावसाची एक मजेची गजाल सांगली. तेंच्या गांवांत खंय ते गडगड करून पावस घालता. दोंगरार वचून कोंब्यांचो आनी धुकरांचो देवाक मान दितात. मागीर फांतरगुंडे दोंगरावयल्यान लोटून दितात. तेंचो गडगड जातकूच मागीर पावस पडटा खंय! तेगेली गजाल आयकून हांव हांसलों. तेसरशीं तो म्हाका म्हणपाक लागलो,

'फट दिसता जाल्यार हांव गोंय देसाक येवन तुका पावसाची गजाल सिद्ध करून दाखयतां.'

हांयें तेका नमस्कार करून म्हटलें, 'नाका नाका. गोंयांत हरशींच पावस खूब पडटा. आमकां असो आडेचो गडगड करून पावस घालपाची गरज ना.'

आसामांतल्यान येयल्लो राखणो, नागा. मुखामळ आनी तेगेल्या खोल दोळ्यांखातीर हो नदरेंत भरतालो. कातीन हळडुवसार, हेचीय उंचाय उरांवासारकी मध्यमूच आसली. लांबोडकी तकली. केंस दाट आनी सरळ. मस्तक पाटी कशें रूंद. तो सांगतालो तेप्रमाण तेका एकापरस चड बायलो आसल्यो आनी तेंचेकडेन तो लगीन जाल्लो. तो दोंगरार शेत रोवपी. जमीन नांगरल्यार पाप लागता अशी तेंगेली समजिकाय. देखून ते रानांक उजो लायतात आनी मागीर एके बडयेन जमनीक बुराक मारून तितूंत बियां रोयतात. ते असले शेतोडेक 'झूम' म्हणटात.

हांयें म्हटलें, आमगेले जाणटेलेच अशे तरेन दोंगरार रोयताले आनी तेका कुमेरी म्हणटाले. आतां सरकारान तेचेर बंदी घातल्या. तो म्हणपाक लागलो, तुमच्या देसांत बंदी घातल्या आसत, पूण आमी आजून रोयतात आनी सरकाराक बंदी हाडूंक दिवचेना. हांयें म्हटलें, सरकारान बंदी हाडल्यार तुमी कितें करतले? तेणें म्हटलें, तें सरकार आनी आमचे भाले पळोवन घेतले! म्हाका तेचे हुशारकायेची खूब तोखणाय दिसली.

कर्नाटकांतल्यान येयल्लो पाटील मात खऱ्यांनीच हुशार आसलो. तेणें गोरवां राखता आसतना एकदां वागाक जिवानिशीं मारलेलो खंय. तो जे पद्धतीन सांगतालो, तेजेवयल्यान तेगेलें फट मानपाक जायना आसलें.

म्हाराश्टांतलो फेटेवालो नाईक हो कोलाम जातीचो. तो थंयचे गांवपंचायतिचो मुखेली आसलो. पूण ही पंचायत म्हणजे ग्रामपंचायत न्हू. आमचें धा जाणांचें

गांवपण कशें आसता? तसली गांवपंचायत. तो शिवाजी म्हाराजाच्या गांवचो आसलो. तेगेलो आजो काय पणजो खंय शिवाजीच्या सैन्यांत शिपाय आसलो. हो नाईक पोवाडे बरे म्हणटालो. हांयें मनांत म्हटलें, आमचो दमो बाबुसो हांगासर येयल्लो जाल्यार हेच्या पांयार घालून घेतलो आसलो. हांयें तेका सांगलें, तूं गोंय देसाक येता तेन्ना आमच्या गांवांत यो. सर्पंच्याक सांगून तुजो गांवच्या देवळांत पोवाडो दवरूंया.

गुजरातेंतलो गुजीर राखणो, बंगालांतलो किंकर हेणीं आपआपल्यो गजाली सांगल्यो. किंकरान गोरवां राखतनाचीं आनी काम करतना म्हणटात तीं तेगेलीं पदांय म्हणून दाखयलीं. गोंयच्यो गजाली आयकुपांत तेका रस आसलो. उलयतां उलयतां म्हणपाक लागलो, खूब काळाआदीं आमचे संथाल लोक तुमच्या गोंयदेसाक गेल्ले. म्हाका तें कांय कळ्ळें ना. हांयें म्हटलें, गोंयां यो. सोदूंया.

सगळ्या राखण्यांक म्हाजें खूब कवतूक दिसलें. हांव इमानांतल्यान बडी घेवन येयलां म्हटल्यार तेंकां सामकें अजाप जालें. कारण तेणीं कोणेंच बडयो हाडूंक नासल्यो. मात ते आपापले भेस करून येयल्ले. 'गुनाजी, गुनाजी' करून ते म्हाज्या फाटल्या फुडल्यान भोंवताले. कोणाक कळनासतना हांव तेंचो मुखेली कसो जालों. राखण्यांतलो मुखेल राखणो. हांयें तेंकां सांगलें, सगळ्यांचे एकवट आसात. भाटकार, मुंडकार, ड्रायवर, कामदार. ना तो आमचो राखण्यांचो एकवट. तेंकां तें पटलें पूण एकवट कसो करप तें समजलेंना आनी 'मुखार पळोवया' अशें म्हणून काम तशेंच उरलें.

रातीकडेन बोफे जेवण आसलें. कोटा म्हाका इचारपाक लागलो, बोफे म्हटल्यार कितें? तेका दिसलें, हांव हुशार. म्हाका सगळें खबर आसा. हांयें म्हटलें, लग्नांत पांचा दिसांचें बी जेवण आसता तसलेंच आसतलें. पूण अदमास चुकलो.

बोफे म्हणजे आपणें आपल्या हातीन घेवन जेवपाचें. सालांत मदीं मेजां मांडटात. तेंचेर तुवाले हातुरतात आनी वयर जिनस खदखदता. जिनस म्हण तराभासांचे. कितलेशेच तरेचीं चिकाणां. सुकीं. रोसाचीं. तशींच कालयलेलीं शीतां. भाकऱ्यो. शिवराक येगळें. कोणाचो वार आसल्यार तेणें तें जेयपाचें. पूण जाय जाल्यार दोनूय जेवं येता. पयलीं हारीन उबें रावप. एक मनीस – वेटरूच तो. तो हातीन बशी दिता. बश्शेन कुलेर आनी कांटो आसता.

आनी एक आसता कपड्याचो तांबडो कुडको. हात तोंडबी त्या आपल्या कुडक्याक पुसपाचें. जेवण आपणाले बश्शेंत जाय तितलें घेवं येता. जाय तितले फावट घेवं येता. कोण हडकिना. तेच भाशेन तुका कोण खावूय म्हण सांगना आनी घे म्हण आग्रोय करिना. कोण वाडटलो आनी आपूण जेयतलो म्हण रावलो जाल्यार मात शेणलो.

नुस्तें आसता, पूण नुस्त्याची कडी मात ना. नुस्तें तळलेलें म्हटल्यार तेंकां काटेच ना. तोंडांत घालून पळयल्यार इस्वणूय न्हू आनी चणकूलें-तामसोय न्हू. एकदां कुडको तोंडांत घालपाचो. दुसरे फावट नाका जाता.

जेवणाच्च्या पयलीं वाटग्यांत घालून पेजेनिवळ कसो पिवपाक दिता. दितात वाडग्यान पूण तेका सूप म्हणटा. तो पियेतकूच भूक बरी लागता.

जेवण जातकूच आईस्क्रीम दितात. मागीर आसता काफी. ती जाय जाल्यार खुंटी घेवपाची, जाय जाल्यार दुदाची. ती पितकूच शीं वयता.

जेवण उब्यांनीच जेयपाचें. म्हाका दिसता, गोरवां उब्यांनीच खातात म्हण राखण्यांचें जेवण उब्यांनीच दवरलेलें. पूण म्हाका ती पद्धत मानवली. उब्यांनी जेयपाचें म्हणजे हातीन जेवण घेवन हांगा थंय भोंवपाक मेळटा. जाय तेजे कुशीक वचोन गजाली करपाक मेयटात.

गुजीर राखण्यान म्हाका इचाल्लें, तो सामको शिवराक, 'गोंयांत सगळे सोरो पियेतात?' हांयें म्हटलें, हय, आमचे देव लेगीत सोरो पियेतात. आमच्या वाटेतिटेच्या सगळ्या देंवचारांक सोरो-रोंट लागता. पूण पियेवनूय सगळे शाबुदीर आसतात.

किंकर इचारपाक लागलो, 'गोंय देसांत आजून पुर्तुगेज आसात?' हांयें म्हटलें, पुतुगेज केन्ना हुंवाळून गेलो. तेंकां अजाप जालें. हांयें म्हटलें, तुमी गोंय देसाक येयात मागीर तुमकां आनीकय अजापां पळोवपाक मेयटलीं. आतां कालोय जालो, जात्राय जाली. वसंतपुजा तेंकली. तुमी अशें करात, येता त्या भाद्रपदांत चवथीक आमगेर येयात. पांच दीस गणपती दवरूंया. मौजा करूंया. तेन्ना बांगर पाड्यांक कशे चेंचपाचे तेंवूय तुमकां शिकयतां. त्या तेंपार बांगडुल्योय जातात. विठायच्या हातची बांगड्यांची कडी खायशात जाल्यार आठ दीस हातीचो वास वयचोना. हातीन मात जेयचें पडटलें.

मागीर चडशो आमी गोरवां वासरांच्योच गजाली केल्यो. गोरवांची खावड, गोरवांची पिडा, पिडेर वखद-विर्सद हेचेर खूब उलयले. सगळ्यांनी आपापल्यो

पद्धती सांगल्यो पूण गोरवांची कुयदाद घेवपाची म्हाजी पद्धत तेंकां खूब घोस्ताक गेली. बांगर बैलाक चेंचपाची म्हाजी मांडणी तर सगळ्यांनी लक्ष दिवन समजून घेतली.

हांगासर जेवणाची एक मजा म्हटल्यार जेवण जमनीर बसोन जेवपाचें ना. कदेलीर बसोन नाजाल्यार उब्यांनी पूण कसोय जेयलो जाल्यार आपलें पान आपणें काडप ना. शेण तर काडपाचो प्रश्नूच येना.

तिनसांज जातकूच म्हाका न्हावपाचो उगडास येयलो. काल गोंयांत सकाळीं न्हाल्लों, सगळीं कामां जातकच आंगार उदीक वडोवपाचें. पूण हांगासर कसलें कामूच ना. आनी शिंयाखातीर न्हायनूय दिसना. तरी म्हटलें, न्हावया. भितर गेलों. कोळमेंत, तेका टब म्हणटात, हून उदीक सोडलें. सामकी उपाट भरली. भायलें दार धांपलेलें. पळोवपाक कोण आसा? उक्त्यांनी उडी घेतली. भितर बुचकळी माल्ली. पेंवतलो कितें? व्हाळाचेर न्हाल्लेभशेनूच जालें. आंगाचो शाबू लायलो. कसलो घमघमीत वास! आंग पुसलें तरी शाब्बाचो वास वचना.

आदले दीस विनायकी. दुसरे दिसा पंचम. त्याच दिसा तो ॲवाड दिवपाचो दबाजो. सांजेच्या आदेसाक.

सांजेच्या आदेसाक येंकटेश ताकतीक करपाक लागलो. हांव न्हेसोन भायर सरलों. गाडयेंत बसोन रासपतीगेर गेले. तेका रासपती भवन म्हणात. व्हडलें घर. काणयांतल्या राजांचे वाडे बी आसता तसलें.

भितर सरतना वाटेवाटेर तपासपाक लागले. हांयें मनांत म्हटलें, 'जाय तितले तपासात. कोयतूल ना.' मात दर फावटी बडयेर पावतकूच अडपाक लागलें. येंकटेशान तेंकां समजायलें. हांयें सामको निश्चेव केलो. कितेंय जावं, हांव बडी आनी कांबळ कशीच सोडपाक ना. पूण तेणीं कांबळीक खंयच हरकत घेतली ना. केदें व्हडलें साल! वणटी खांबे कोंरातिल्ले. माथ्यावयर देवळांतल्याभाशेन झुंबरां! सामकीं भिल्लामाडार लांबपी शेलीभाशेन आनी भितूर दिवे.

बसपाक विलुदाचीं कदेला. दर एकल्याची बसपाची सुवात थाल्लेली.

जात्रा-काल्याक बसता तसो खंयूय जागो मेळटा थंय बसप ना. राखण्यांक एके कुशीन कदेलां जाल्यार अॅवाड पळोवपाक येवपी लोकांक दुसरे कुशीक.

मुखार माची. थंय बसपाक कदेलां तीं सामकीं येगळीं आनी उंची. तोंड घालून उलोवपाक कितलींशींच मायकां. माचयेभोंवतणीं कोण कोण बोवाळटाले, तितूंत इतिहाशीक नाटकांतलो भेस केल्ले कांय शिपाय. बोवाळप्यामदीं आमचो येंकटेश एकलो. खोटू काडटा ते लोक येयल्ले. तेंच्या हातींनी कॅम्रे आसले. थोड्यांनी खांदार मारून व्हडले कॅम्रे हाडलेले. पांयजेलांनी घालून वंटीर लायतात ते व्हडले खोटू ह्याच खांदावयल्या व्हडल्या कॅमऱ्यांनी काडटात आसूंक जाय. दिल्लीच्या थंयच्या पेपरांचे मनीस येयल्ले.

इतल्यान बसलेले सगळे सडसडीत उबे रावले. कितें घडलां तें पळोवया म्हण हांवूय उबो रावलों. जाल्यार रासपती भितर सरता. तेच्याबराबर शिपाय आनी पुलीस.

रासपती म्हणटा तो बरो जाणटो मनीस. हरशीं आमी जाणटेल्यांक किंकोंत करतात पूण ह्या जाणटेल्याक बरो मान आसलो. तो येयनाबराबर बारीक मोटे सगळे उबे रावले. कांतूले शाळेंत मास्तर येतकूच सगळे भुरगे उबे रावतात तशे. तो म्हणून मान घेवपाक कळटा तसलो मनीस. उबे रावलेल्या सगळ्या मनशांक नमस्कार करीत चलपाक लागलो.

पळयले भितर रासपती सुमार अंयशीं वरसांचो तरी आसपाक जाय. आमच्या गांवांतल्या चौखेवयल्या इशणू इतलो. आमचो इशणू काळो. हो गोरोपीठ. लांब शेरकुलाचेर वयर धोंपरामेरेन पावता असो कोट. माथ्याक तोपी. पांयांत कितें घातलां तें कळनासलें. तोंडार हाशें. चलपाक मात नजो आसलें. पूण मोटो मानी आनी हट्टी आसूंक जाय. कारण शिपायाचो हात धरून चलपाक राजी नासलो. बदक्याचे चालीन चलतालो. दिसतालो तसोच राजबदको कसो!

तो वयर पावनाफुडें वाजोवपी वाजोवपाक लागले. फकत वाजप. म्हणप ना. आयकले भितर कांतुले शाळेंत म्हणटा तसलें जनगण. तें सोंपसर सगळे उबे रावले. रासपती बसतकूच मागीर सगळे बसले.

रासपतीच्या फाटल्यान एकलो पुलीस कसो उबो आसलो. तो रासपतीक कसोच पातयेनासलो. रासपती दायान बागवलो तो दायान वयतालो. रासपती उजयान लकलो जाल्यार तो तेवटेन धांवतालो. हातीन मोटवेलें तुबक आसलें. राखण्याची नदर कशी सरयांतल्या गोरवांचेर भिरभिरता तशी तेची नदर सगळ्या

सालांत घुंवताली.

एकेच तरेच्यो साडयो न्हेसलेल्या बायलांनी उबीं रावन एक पद म्हटलें. त्यो इमानसुंदऱ्यांपरस बऱ्यो दिसताल्यो. पूण शिगम्यांतल्या नाटकांतल्या नटयेभाशेन तेणीं तें पद सारकें पाठ करूंक नासलेंशें दिसता. कित्याक तीं परत परत 'स्वागतम-स्वागतम' हींच उतरां गोरवांनी रवंथ केल्लेभाशेन म्हणटालीं. पूण तरीसुद्धां तें कानाक गोड लागलें. रासपतीन हांसत्या मुखान तेंकां शेबासकी दिली.

मागीर ॲवाडां वांटपाची कार्यावळ सुरू जाली. नांव घेता तेप्रमाण माचयेर वयपाचें. केन्ना उठपाचें, खंयच्या उतरार खंय पावपाचें, ॲवाड कशें घेवपाचें, कसो नमस्कार करपाचो आनी रासपतीक फाट करिनासतना कशेभाशेन दुसरे वाटेन देंवून आपले सुवातेर येवपाचें हें सगळें येसायेयेळार थल्लेलें.

म्हाजें नांव येयनाबराबर हांयें कांबळ खांदार दामली. बडी उखल्ली. हांव बडी घेवन माचयेर चडनाफुडें त्या रासपतीच्या पुलीसान म्हाजेर तुबक जोखलें आनी मागीर अचळय फाटीं घेतलें. रासपती म्हाका तोंड भरून हांसलो. 'भौत अच्छा! भौत अच्छा' अशें कितेंशें तो फुतफुतपाक लागलो आनी म्हाजो तेणें भौमान केलो. पयलीं दिलो हात. मागीर तांब्यापटो. फाटोफाट एक पाकीट आनी खांदाचेर घातली कांबळ. थंय तिका शाल म्हणटात. तेबराबर व्हडल्या आनी धाकल्या कॅमऱ्यांनी खोटूच खोटू काडले. बडी खाक्यांत धरून हांयें सगळो भौमान घेतलो. तेबराबर रासपतीन कोपर जोडून म्हाका नमस्कार केलो. हांयें हातींतलें सगळें सामान कांबळेचे खोळेंत घातलें. जाल्यार माचयेचे दोनूय कुशिचे शिपाय म्हाका सकयल देंवपाक खुणायता. हांवें मनांत म्हटलें, 'सकयल देंव खंय! म्हाजें काम आजून सोंपूना.' हांयें हात जोडून रासपतीक म्हटलें, 'दोन उतरां बोलना हय!' तेबराबर फाटलो पुलीस उचंबळीत जाल्लेभाशेन जालो. सकयल आशिल्लो येंकटेश धांवून वयर येयलो. हांयें परत रासपतीक हात जोडून सांगलें, 'फकत दोनूच उतरां.'

तेबराबर सगळ्यांचेर येयलो आकांत. म्हाका खावं काय गिळूं अशें तेंकां जालें. पूण हांव बदतां? हांव खट कसो तसोच रासपतीमुखार उबो रावलों. तेच्या मुखावयलो कुशीक सल्ल्यार म्हटलें, हे म्हाजी चोंबडी पासून उबारपाक आसा. आनी म्हाका खबर आसलें, देवळाच्या चौखार उबो रावल्यार कोण कोणांक तुकलयना. देवाची भिरांत आसता.



तेगेले नोकर चाकर कशेय आसूं, रासपती मात भांगर मनीस. तेणें म्हाज्या मनांतलें पारखिलें. 'इतल्या पयस सावन हो मनीस हांगासर येयला जाल्यार तेका दोन उतरां उलोवपाक दिवचीं.' तेणें कितें करचें? आपणल्या मनशांक वगी केले आनी म्हाका कुरवेनूच सांगलें, 'उलय.'

तेचें उतर मेयटकूच हांव रावतां? हांयें थंयच्या मायकांनी तोंड घातलें. आनी सांतेरीच्या चौखार धा जाणांच्या गांवपणाक पळय, मात कोणाक बाडगनासतना उलयतां तशें उलयलों.

"... रासपतीसायब, तीन प्रस्न तुमारे सामकार रकता हूंव. प्रस्न एक – गायको क्युं मारनेका? गाय देव हय. उसको मारनेका न्हू. प्रस्न दोन – जानवर चरनेका किदर? जगाच नाय. इदर उदर आडे-दुरीग. प्रस्न तीन – सब लोक गायो करता हय संकरीत. तर हमारे गांवठी बैलोंने काय करनेका? बैलको गाय की जरूरत हय. देव बरें करू."

देव बरें करूं! म्हणनाबराबर पळय ताळयो पडल्यो! आवयस्! सोंसपाच्यो न्हू! शिगम्याच्या नाटकाक दम्या बाबुशान केल्ल्या शिवाजीच्या सवंगाक पडटा तेचेपरस चड. आनी हांयें कितें केलें – भाशणाच्या येळार तोंड-हात बी बरे हालयले. सामकें नाटकूच कशें जालें तें. पूण उलयलों तें सामकें बोंबलेच्या देंठांतल्यान. त्या रासपतीक तें सामकें घोस्ताक गेलें. तेणें बरें हांसत हांसत आयकोन घेतलें. बरें, हांव उलयलां म्हण आनीक कोणा राखण्याक उलोवपाचें धाडस जालां तर? तो वाग् मारलेलो पाटील पासून थंड पडलो.

मागीर सगळ्यान निमाणें रासपतीचें भाशण जालें. म्हाका बोट दाखोवन दाखोवन तो उलयलो. मेजून चार फावट तेणें म्हाजें नांव घेतलें. 'गुनाजी खेदेकार - गुनाजी खेदेकार.' म्हाजे तिनूय प्रस्न तेका समजलेले. त्या प्रस्नांचेर तो उलयलेलो आनी ते प्रस्न आपूण सोडयतलों म्हण तेणें उतर दिलें. तेसरशीं म्हाका पडलेल्यो तितल्योय ताळयो परत तेका पडल्यो.

पळयल्ले भितर म्हाका तो बरो मनीस दिसलो. उतराचोय दिसलो. हांयें म्हटलें. 'देवा, हो वांचोन उल्ल्यार पुरो. आमचे प्रस्न सोडयतलो. हेचे फाटल्यान हेचे गादयेर बसपी भुरगीं कशीं आसतलीं म्हण कोणाक खबर!'

निमाणें पयलींभाशेनूच जनगण जालें आनी कार्यक्रम सोंपलो. मागीर पळय सगळ्यांनी म्हाका गराडो घातलो! येता तो हात दिता. हात कोंचपाकडेन पावलो. आमगेले सगळे राखणे खोशी! तेणीं म्हटलें, तुवें राखण्यांचे प्रस्न मांडलेच. आमचें सगळ्यांचें नांव वयर काडलें. म्हाका आनीक कितें जाय?

एक मात म्हाका अजाप कशें जालें आनी वायश्ट दिसलें. म्हाज्या वांगडच्या सगळ्या राखण्यांक थंय कोण कोण तेंचे लोक मेळपाक येयलेले. ते तेंची भास उलयताले आनी दिसतालेय बी तेंच्याच सारके. ते लोक दिल्लींत रावताले आनी आपल्या गांवच्या राखण्याक ॲवाड मेवळा म्हण ते सगळे राखण्यांक हात दिवपाक येयलेले. हांयें मनांत म्हटलें, दिल्लीक आमचो कोणूच लोक रावना काय? नातर कोणूच म्हाका कसो मेळपाक येयलोना? म्हाका दिसलें, आमच्या गांवचो लोक राखण्यांक लेखिना म्हणटा तेंच खरें.

एकामेकांक सोडटाना म्हाका कितेंशें जालें. दोन दिसांची खबर. कोण कोणा जातचे-पातचे न्हू पूण सामके जिवाभावाचे मनीस कशे जाल्ले. एकामेकांची भास सारकी कळना पूण सगळ्यांक एकामेकांचीं मनां मात बेस बरीं कळलेलीं. सगळे एकामेकांच्यो खेमो घेताले. थोड्यांचे दोळे भरोन पासून येयले.

हांयें म्हटलें. भावांनो आमकां आमच्या गोरवांनी रासपती ॲवाड जोडपी व्हड मनीस केले. आनी त्या उतरार पळय म्हाज्या दोळ्यांतल्यान दुकां झडपाक लागलीं, मोतयां कशीं. कशींच थारनात.

जालें कितें? तर म्हाका येयली गोरवांची याद.

हांयें येंकटेशाक घट धरलो. म्हाका म्हटलें हांगा रावपाचें ना. फाल्यां वयतां. तेबराबर येंकटेशान सगळी येवस्था केली. तो सांगता त्या कागदाचेर हांयें कुरवो केल्यो. तेणें मेजून कितलेशेच नोटांचे कवळे दिले. ते म्हाजे येवपा-वयपाचे इमानाचे आनी गाडयेचे. हांयें म्हटलें. 'पंचीस केन्ना दितले?' तेबराबर म्हाजेकडलें पाकीट उगडून तेणें छापलेलो एक कागद कुडको काडून सांगलें, 'चेक.'

पंचीस हजार कागदारूच बरोवन दिल्ले. ते बांकांत दाखयतकूच तेचे पयशे जावपाचे. हांयें तें पाकीट जाकीटाच्या भितरल्या बोल्सांत दवल्लें.

दुसऱ्या दिसा फांतोडेर उठलों. परसाकडेन आनी बसपाचो यत्न केलो ना. दिल्लीक येत पासून तें एक काम अजिबात जावंक नासलें. त्या चकचकीत पायखिळ्याचेर पांय दवरिनाफुडें सगळी इत्साच ना जांताली. आतां म्हटलें, हुस्को ना. घरा पावनाफुडें व्हाळ आसाच.

येंकटेशान फांतोडेर सुटपी इमानान बसयलो. कसलीच कास्तीक ना. सकाळींफुडें दाबोळे इमानतळार.

भायर यो जाल्यार एक हळडुवी मोटारसायकल दिसली. ती भाड्याची. म्हटलें, जाय तितले पयशे घे, म्हाका एकदां घरा पावय. इमान चलोवपी पायलट तसो मोटारसायकल चलोवपीय पायलट. इमानासारकीच तेणें मोटारसायकल फांस सोडली आनी म्हाका घरा पावयलो.

पोंती घराकडेन आदळ्ळी आनी मारल्ली धांव. वाटेवयलो आडो हुपून घालून घेतलें बद्द गोविंदभटाल्या गोठ्यांत.

जाल्यार कितें पळयतलों गोरवांची दशा? चार दीस जाले तेंकां सोडूंना: खुंट्याक बांदून घातल्या आनी गवणींत सुकें तण घातलां. भुरगीं आपणाली हळशीक मस्तितात तशीं सगळीं गोरवां आपल्याच थाप्यांनी लोळ्ळ्यांत. आंगाचेर किमसां नाचतात आनी गोरवां शेंपड्यो बडयतात. पोटां गेल्यांत खळाक आनी कांट्यार गुंथिल्ल्यो बोरी येता मेजूंक. भुकेन भुकेल्यांत तशीं तानेन तानेल्यांत.

पोरसरांची दशा आनी दैना जाल्या. केन्ना न्हं तीं सामकीं दास्तानांतलीं गाळ हांयें गोविंदभटाक संवली.

म्हाका पळोवन गोरवांक पळय जाल्लां! पयल्लीं कावरून हेळ काडल्लो. तेबराबर सगळीं लागलीं हांबेवपाक. हांव एकेवटेन हेकां येंगांत काडटां आनी दुसरेवटेन म्हाजीं दुकां पुसतां. हांयें म्हटलें,

'ना रे शाण्यांनो, आतां हत्तपार तुमकां सोडून खंयच वयचों ना.' त्याबराबर सगळीं शाणीं जावन वगी रावलीं.

येसल्या, चेड्या, धाकटी, पोक्या, घारू, थोंटी, गजाल सोंपली. पळय कशे गुल्ल जाल्यात. आरे, थंय पळयात. सरयांतलीं गोरवां भायर सरलीं. धांवात, धांवात आपापल्या गोरवांफाटल्यान...



## पुंडलीक नारायण नायक
हांगेलें साहित्य

### कथा/ नवलीका/कादंबरी
• मुठय • पिशान्तर • बांबर • अच्छेव
• वसंतोत्सव आनी दायज
• अर्दूक • गुणाजी

### कवीता
• गा आमी राखणें

### नाटकां
• खण खण माती • रक्तखेव
• राखण • सुरींग • सूर्यसांवट • देमान्द
• मुक्तताय • शबै शबै भौजनसमाज
• पिंपळ पेटला • श्री विचित्राची ज़ात्रा
• दायज • चैतन्याक मठ ना • आत्मवंचना

### एकांकी
• गांवधनी गांवकार • छप्पन्न थिगळी येसवंत
• चौरंग • आकाशमंच • दिगंत

### नाटक समीक्षा
• रंगपाट

### बालनाटय/बालसाहित्य
• रानसुंदरी • आळशांक वाग खातलो
• शिंवाचो बळी • मनू • गोंयचो पावस
• गौरी आनी कल्परूख • बेकार भोंवडेकार

### संपादीत साहित्य
• वेंचीक कोंकणी एकांकी
• समकालीन कोंकणी लघुकथा

ISBN - 81 - 86488 - 63 - 4